# डॅडी

दत्ताराम दा. कामत बांबोळकार





# डॅडी

दोन अंकी नाटक

लेखक

**दत्ताराम दा. कामत बांबोळकार**






श्री हरि प्रकाशन

**DADDY**
A Play by
Dattaram D. Kamat Bambolkar

प्रकाशन क्र. १४



पयली उजवाडावणी : एप्रील २००१

**उजवाडावपी**
दीपा दिनकर मुरकुंडे
श्री हरि प्रकाशन
३८९/अ, शांतिनगर
आर्कें-बायिश, ताळेली, गोंय ४०३ ७०७

**अक्षर जुळणी**
सान्वी ग्राफिक्स, मडगांव, गोंय

**छापपी**
प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स
कुंड्य, गोंय

मोल : ३५/- रुपया

म्हाका बरोवपाक स्फूर्त दिवपी
म्हजो भाव
गुरुदास दामोदर कामत बांबोळकार
हाका आदरान...

'डॅडी' नाटकाचो पयलो प्रयोग अंत्रुज लळितक, बांदोडें-फोंडें हे संस्थेन चोविसावे कोंकणी नाट्य सर्तींत, बुधवार, ता. ११ नोव्हेंबर १९९९ दिसा सांजेच्या ७.०० वरांचेर पणजे गोवा कला अकादमीच्या मा. दिनानाथ कला मंदिर नाट्यघरांत सादर केलो.

**पयल्या प्रयोगांतले कलाकार:**

| | | |
|---|---|---|
| दिग्दर्शक | : | श्रीधर अ. कामत बांबोळकार |
| ध्वनी संकलन | : | पूर्णानंद च्यारी |
| नेपथ्य | : | विजयकांत पां. नमशीकार |
| प्रकाश येवजण | : | एकनाथ नायक |
| रंगभूषा | : | लवलेश कवळेकार |
| वेशभूषा | : | गीता कामत बांबोळकार |
| संगीताक आदार | : | मॅथिव फेर्नांडीस, सुशांत सरदेसाय |
| प्रकाश येवजण आदार | : | जितेंद्र शिकेरकार |
| नेपथ्य आदार | : | सुबोध कुर्पासकार |
| निर्मिती आदार | : | राधाकृष्ण बांबोळकार, मनोज बांदोडकार, सुदेश वझे, आनी बांदोडें ग्रामपंचायत |

**माचयेवेले कलाकार**

| | | | |
|---|---|---|---|
| लता | पिराय सादारण | १६ | रुपाली रामा नायक |
| स्टेफी | '' | १५ | दक्षता लक्ष्मीदास नमशीकार |
| सचीन | '' | १३ | अनंत श्रीधर कामत बांबोळकार |
| शबाना | '' | १० | शोधन रामनाथ कामत बांबोळकार |
| अजर | '' | ९ | रोहन राजेंद्र नागेशकार |
| दीप | '' | ८ | प्रथमेश विजयकांत नमशीकार |
| जेन | '' | ६ | समता लक्ष्मीदास नमशीकार |
| सलीम | '' | ५ | प्रणव उपेंद्र बीचे बांबोळकार |
| गांधारी | '' | ५५ | सौ. विणा विवेक गावणेकार |
| पायलट अंकल | '' | ६० | अरूण रमाकांत गावणेकार |
| दुर्मिंग पाय | '' | ५० | उमेश दत्ता नायक |
| लीली | '' | ४० | सौ. रूपा पूर्णानंद च्यारी |
| पार्थ | '' | ४५ | रघुनाथ यशवंत साकोर्डेकार |

☐ 'डॅडी' ह्या नाटकाक गोवा कला अकादेमीचे कोंकणी नाट्यसर्तींत उत्कृष्ट लेखनाचें दुसरें, प्रयोगाचें तिसरें, अभिनयाचीं तीन आनी ध्वनीसंकलनाचें पयलें अशीं इनामां फावो जालीं.

☐ डॉ. टी. एम्. ए. पै फाउंडेशन, मणिपाल, पुरस्कृत बेंगलोर हांगा जाल्ले इकरावे अखिल भारतीय कोंकणी नाट्यसर्तींत (वर्स २०००) ह्या नाटकाक प्रयोगाचें पयलें, दिग्दर्शनाचें पयलें, दादलो आनी बायल अभिनयाचें पयलें, नेपथ्य, प्रकाश येवजण, वेशभूशा पयलें, संगिताचें पयलें, तशेंच उत्कृष्ट बालकलाकाराचें पयलें, अशीं साबार इनामां फावो जालीं.

# म्हज्या 'डॅडी'चो जल्म...

सादारण पंदरा वर्सांपयलीं बँकेच्या प्रशिक्षणाखातीर पंदरा दीस हांव पुण्यांत उरलों. तेन्ना म्हजे वांगडा रावपी एका इश्टान वाचपाक एक इंग्लीश कादंबरी हाडिल्ली. ती वाचतां वाचतां तातुंतल्यो घटना तो उमेदीन म्हाका सांगतालो. तागेल्यो गजाली आयकून म्हाकाय तें पुस्तक वाचचेंशें दिसतालें. पूण इंग्लीश वाचप म्हळ्यार म्हाका तकलीफोड कशें. तरी आसतना शेनवार-आयतार असो मेकळो वेळ मेळटालो तेन्ना हांवें ती कादंबरी अर्दी समजली, अर्दी समजली ना अशे अवस्थेंत चािल्लेवरी वाचली. ती कादंबरी म्हळ्यार भुरग्यांनी आपल्या बापायचेर बरयल्लें मजेशीर आत्मचरित्र.

फाटल्या पंदरा वर्सांत खरें म्हळ्यार हांव हें सगळें विसरुनय गेल्लों. जें वाचिल्लें तें फुडाराक म्हाका नाटक बरोवपाक उपकरा पडटलें हें तर म्हज्या ध्यानांत-मनांत लेगीत नाशिल्लें. 'भुरग्यांक घेवन करीसारकें एक नाटक बरय रे' अशें दर वर्सा नाटकाचे तालमीक जमिल्ल्या भुरग्यांचे उमेदीकडेन पळोवन श्रीधरान आनी हेरांनी सुचोवचें आनी हांवेंय दर वर्सा, भुरग्यांक नाटकांत आस्पावन घेवचेखातीर खंयचो विशय घेवचो ह्या विचारांतच परत जाणट्यांखातीर बरोवचें.

पूण म्हणटात न्हय, कसलीय गजाल घडून येवंक वेळ येवंक जाय. १९९९ सालांत सौ. स्नेहलता भाटीकार हांचें 'पालक आनी भुरगीं' हें पुस्तक हातांत पडलें आनी तें वाचतां वाचतां म्हाका परत खूब तेंपान फ्रँक बंकर गिलब्रेथ (ज्यू) आनी अर्ने स्टाइन गिलब्रेथ कॅरे हांणी बरयिल्ले Cheaper By The Dozen हे कादंबरीची याद जाली. भुरग्यांखातीर नाटक बरोवंक जाय ह्या विचाराक आतां चालना मेळ्ळी. म्हज्या मनांतल्या सुप्त विचारांनी गती घेतली. नव्या विशयाची बांदावळ घडूंक लागली आनी हांव बरोवंक बसलों. फकत पंदरा दिसांत म्हज्या हातांतल्यान 'डॅडी' नाटकान जल्म घेतलो. खरेंच, मनशाचेच बाबतींत न्हय, तर साहित्याच्या मळार लेगीत साहित्यीक बिजां केन्ना कोणाच्या मनांत रुजत घालचीं आनी खंयच्या रुपान, केन्ना, खंय तांकां कश्या रुपान जल्माक हाडचीं हेंय 'तो'च थारायता आसतलो ! मूळ कादंबरींतल्यो सूचना (clues) घेवन तांकां म्हज्या काल्पनीक विचारांची न्हेसवण दिवन, नवे प्रसंग, नवीं पात्रां आनी नवो विचार मांडून एक नवें नाटक दिवपाचो हो म्हजो यत्न.

श्री हरि प्रकाशनाच्यो प्रकाशिका सौ. दीपा मुरकुंडे हांणी एक दीस म्हाका म्हळें, 'म्हाका तुजें एक नाटक उजवाडावपाची इत्सा आसा. तुका जाय तें दी. 'डॅडी' दिल्यार म्हाका चड बरें दिसतलें. भुरग्यांखातीर कितेंय बरें छापतना म्हाका खूब खोस जाता.'

दीपाबायचीं हीं उतरां पुस्तक उजवाडा येता म्हणून म्हजेखातीर भोव उमेदिचींच. पूण तेच बराबर ज्या भुरग्यांनी ह्या नाटकांत मन लावन, सहज-सुंदर अभिनयान 'डॅडी'क जैतिवंत केलें, तांचेखातीर चड मोलाचीं, अपुर्बायेचीं, भौमानाचीं. देखून श्री हरि प्रकाशन आनी सौ. दीपाबायचे उपकार.

**दत्ताराम दा. कामत बांबोळकार**

# डॅडी

## अंक पयलो

### देखाव पयलो

(पांच-स कुडींच्या घराचें व्हडलें साल. सालांतल्यान माळ्येर वचपी लाकडी जिनो. सालांत भितर सरता त्या दारांतल्यान भायलो व्हरांडो दिश्टी पडटा. सोफासॅट, टीपॉय, आरामखुर्ची, दिवाण, मेज, मेजार स्टॉप-क्लॉक, फोन अशो वस्तू नीट आनी कल्पकतायेन मांडल्यात. पड्डो उगडटा तेन्ना, हातांत पेन आनी बरोवपाचें पॅड घेवन, पंदरा-सोळा पिरायेचें लता विचार करीत बरोवपाच्या मुडांत बशिल्लें दिश्टी पडटा. फकत लताचेर उजवाड.)

लता : डॅडी...! हुंऽऽ! खंयच्यान सुरवात करूं? किदें किदें म्हूण बरोवं?... जशें तांचें उलोवप तशेंच वागप. ऑफिसांतल्यान घरांत - घरांतल्यान ऑफिसांत - ऑफीस क्लायंटस् - भुरगीं - डिजायनस् - मम्मी - प्रयोग... (हांसता). डॅडी, यू आर ग्रेट! धाकटो भाव सलीम - फकत स वर्सांचो - पूण ताचेबरबर सुद्धां डिस्कशन सिरियसली - शिमीट-रेंव मिक्श्चर प्रमाण - जावं कारखान्यांतल्यो कामगारांच्यो गती आनी हालचाली - उत्पादन वाड - जावं देशांतल्यो घडामोडी - स वर्सांच्या भुरग्याकडेन उलयतना सुद्धां एखाद्या इंजिनीयर विद्यार्थ्याक समजावन सांगचें तशें! मम्मी केन्नाकेन्नाय सांगताली, अनावश्यक हालचाली टाळून प्रत्येक काम झटपट कशें जावं येता, हाचेर लग्न जायतपासून डॅडीन इतले वेळा सांगलें, जाचो परिणाम जल्माक येतल्या आपल्या प्रत्येक भुरग्यान रडटा आसतना आनी हातपांय हालयतना वेळ फुकट वचचोना

हाची जतनाय घेतली.

डॅडी - एक म्हासागर - एक अथांग मळब - आमच्या आंगाचेर सतत फिरपी एक मायेचें मोरपीस - आदर्श बापायचें प्रतीक - माय इंटेलिजंट फादर - आय लव्ह यू डॅडी - आय लव्ह यू...! (गळो भरून येता. आख्खें सालभर नदर मारीत सवकासायेन माळयेचीं सोपणां चडत माळयेर वता.)

(माचयेर आतां पुराय उजवाड जाता. डॅडी, म्हळ्यार पार्थ, पिराय पन्नास दरम्यान, हातांत सुटकेस घेवन ऑफिसांत वचपाक भायर सरता. मदींच परतता आनी मेजाकडेन वचून शर्टाचे बटण सोडटा. मेजावेली स्टॉप-क्लॉक चालू करता आनी सकयल्यान वयर बटण घालीत कितलो वेळ लागलो तें पळयता.)

पार्थ : वीस सेकंद. फकत वीस सेकंद. (परत शर्टाचे बटण सोडपाक, ताची बायल लीली, पिराय पस्तीस, रांदचेकुडींतल्या भेसांत भायर येता.)

लीली : (अजापान) पार्थऽऽ!

पार्थ : हुँ ऽऽ

लीली : तूं अजुनय हांगाच? हांव म्हणटां, तूं गेलो म्हणून ऑफिसांत.

पार्थ : ऑफीस कितें पयस आसा? सकयल ऑफीस, वयर घर.

लीली : म्हणून कितें जालें? ऑफिसाचो वेळ कितें? साडेणव. आतां कितलीं जालीं? धा...

पार्थ : ऑफीस म्हजें. बॉस हांव. धा जावं.

लीली : कस्टमर येवन ऑफिसांत बसतले. तांचो वेळ फुकट वचचो ना?

पार्थ : ना. हांव साडेणव सुद्दां ऑफिसांत पावलों ना जाल्यार म्हजो एक पूत जावं धूव ऑफीस सांबाळटलीं आनी मोटे बुदवंतकायेन कस्टमरांक हाताळटलीं. फट दिसता जाल्यार सकयल वचून पळय.

लीली : नाका. हांव फाटल्या अणभवावेल्यान सांगतां सकयल कितें चल्लां आसतलें तें. थंय एखादो कस्टमर आयला आसतलो. भुरग्यांनी ताचे भोंवतणी कोंडाळें केलां आसतलें. ताका वेळ कसो वांचोवप, कामाची गती कशी वाडोवप, हाचेर तुज्याच उतरांनी कणकण हाडला आसतलो आनी आतां घडये तीं ताच्या शर्टाचे बटण लेगीत सोडयतात आसतलीं.

पार्थ : ताच्या शर्टाचे बटण तीं कित्याक सोडयतलीं?

लीली : काल सांजवेळच्यान तुवें तांकां नवो प्रयोग शिकोवंना? वेळ वांचोवपाचो?

शर्टाचीं बटणां वेल्यान सकयल घालचेपेक्षां सकयल्यान वयर घालीत वचत जाल्यार पांच सेकंद वांचतात म्हणून...

पार्थ : खरेंच, पांच सेकंद वांचतात. आतां सुद्धां हांवें तो प्रयोग करून पळयलो आनी...

लीली : आनी ऑफिसांत वचपाक साडेणवांचीं धा जालीं. अर्दवर वेळ वांचलो.

पार्थ : लीली, आतांच एक्सपरिमेंट करतां थंयच आसां. थोडो वेळ फुकट वतलोच. पूण एकदां सगळ्यांक पटलें म्हणजे प्रत्येकाचे जिणेंतलो कितलोसोच वेळ वांचतलो.

लीली : (सुटकेस पार्थाच्या हातांत दीत ताका दारामेरेन धुकलीत) बरें बाबा, आतां कामाक वच. बायऽऽ !

(पार्थ वता. लीली सालभर नदर मारून सुस्कारो सोडटा. मागीर रांदचे कुडीवटेन वचपाक वता. तसो पार्थ परत येता.)

पार्थ : लीली, तुका ब्लावजाचे हुक लावपाक कितलो वेळ लागता?

लीली : (ताचेकडेन कांय वेळ पळेत) खबर ना म्हाका.

पार्थ : तूं वेल्यान सुरवात करता काय सकयल्यान वयर?

लीली : (उबगून) वेल्यान. जालें समाधान? आतां वच ऑफिसांत.

पार्थ : (विचार करून). तुमचे हुक. आमचे बटण. म्हणजे, शर्टाचें प्रिन्सिपल ब्लावजाक मॅच जातलेंच म्हणून ना. लीली, तूं अशें कर. ब्लावजाचीं हुकां सोड.

लीली : आं...! यू स्टुपीड !

पार्थ : न्ही... म्हणजे... वेल्यान घालीत यो. (स्टॉपवॉच हातांत घेत) हांव टायम पळेतां. हांवें 'स्टार्ट' म्हळें की तूं हुक घालूंक सुरवात कर. लास्ट हुक घालो की तूं दोळो मार. परत हुक सोड. मागीर सकयल्यान वयर घालीत वच. पळोवया तरी खंयच्यान बेगीन घालप जाता तें.

लीली : म्हाका हुक लावपाक कितलोय वेळ लागल्यार जाता. म्हाका खंयच धांवाधांव करपाची ना.

पार्थ : हांगा फकत तुजो प्रस्न ना लीली. म्हाका ब्लावज घालपाक कितलो वेळ वांचोवं येता तें पळोवपाक जाय.

लीली : तूं ब्लावज घालूं नाका. शर्टच घाल.

पार्थ : ओऽऽ! हो एक प्रयोग लीली. म्हज्या कामाचो, अभ्यासाचोच एक भाग हो. आज व्हडल्यो व्हडल्यो कंपन्यो, कामगार मंडळां, कारखानदार म्हज्या ऑफिसांत कित्याक येतात? कामाचो वेळ कसो वांचोवप, थोड्या वेळांत

चड प्रॉडक्शन कशें जावं येता, तांची काम हाताळपाची तरा, मशिनरीची मांडणी, जाग्याचो योग्य वापर, कामगारांचो भेस ह्या सगळ्या गजालींचेर अभ्यास करून तांकां मार्गदर्शन करप, तांकां योग्य सल्लो दिवप हेंच म्हजें काम. रातदीस हांव हाचेरच विचार करीत आसतां आनी तूं...!

लीली : हांव जाणां पार्थ. कामाचो वेग आनी उत्पादन ह्या तुज्या प्रबंधांक अमेरिकन पुरस्कार मेळ्ळा. ल्हानपणापासून तुजो हो आवडीचो विशय. तातूंत तूं इंजिनीयर. पूण खंय त्यो कंपन्यो, ते कामगार, तीं मशिनां आनी खंय म्हजो ब्लावज, ताचीं हुकां आनी बटणां?

पार्थ : हुकां आनी बटणां हींच खरीं मशिनां. तुका खबर आसा? वांकडींतिकडीं वळणां घेवपी लांबचीलांब आगगाडी कशी जल्माक आयली ती? निमित्त फकत एक गोठाण. जस्ट इमेजीन! खंय आगगाडी आनी खंय गोठाण! तूं, हांव, भुरगीं हींच म्हज्या प्रयोगाची साधना. हें घर म्हणजे म्हजी प्रयोगशाळा. प्लीज लीली...

लीली : ना ना... हांव ब्लावज काडिना.

पार्थ : ब्लावज न्हय, फकत हुकां. लीली, तूं ह्या कामांत फकत म्हाका सहकार्य करिना, तर तूं कितल्याशाच बायलांचो वेळ वांचोवपाक हातभार लायता. नोकरेक वतल्या बायलांक सकाळीं उठून रांदप, न्हावप, भुरग्यांचें करप आनी भायर सरप म्हळ्यार प्रत्येक सेकंद म्हत्वाचो आसता. कपडे घालतना अनावश्यक हालचाली टाळून, सैल कपड्यांचो वापर करून आनी काजां, हुकां योग्य अंतराचेर लायत जाल्यार तांचो कितलोसोच वेळ वांचूं येता.

लीली : तूं एक काम कर.

पार्थ : सांग.

लीली : तुज्या ह्या प्रयोगाक कोणालीय नोकरी करपी बायलच पळय.

पार्थ : दुसऱ्याली बायल आनी तिगेलीं हुकां! आसूं. तेपरस म्हाका ब्लावजच दी. हांवच कुडींत वचून घालून पळयतां.

लीली : तूं कुडींत वचून घालता आनी म्हाका मात हांगाच काड म्हणटा?

पार्थ : हांगा घालूं? तूं टायम पळेता? दी तर. हांगाच घालतां.
(पार्थ शर्टाचीं बटणां सोडपाक सुरवात करता. इतल्यांत पायलट, मात्सो जाण्टो 'सरऽऽ सरऽऽ' करीत हातांत बुशर्ट घेवन पॅण्टीचेरच धांवत दारांत येवन उबो रावता.)

पायलट : (खर्शेत) सरऽऽ!





पार्थ : यस्, कम इन.

पायलट : आय एम मिस्टर पायलट. मॅनेजर इन सोनिया हॉटेल.

पार्थ : मॅनेजर ! अशे उघडेच भोंवतात?

पायलट : ओ नो ! शार्प साडेणवांक तुमच्या ऑफिसांत आयिल्लों. ऑफीस उकतेंच. इतल्यांत चार-पांच रस्ताद भुरगीं भितर सरलीं. हांगासल्लीं, वाड्यावेलीं आसतलीं. ओऽऽ भुरगीं कसलीं? गांजीलमूस सुद्धां बरे. (लीलीचेर नदर पडटकीच लजेन) ओ मॅडमऽऽ ! सॉरी. (हातांतलो शर्ट गडबडींत ब्लावज कसो फुडल्यान हात घालून चडयता.)

पार्थ : म्हज्या ऑफिसांत तवनास भुरगीं कोणालीं आयलीं?

पायलट : तवनास! दे डोन्ट नो हाऊ टू बिहेव. पयलीं म्हाका दिसलें, तुमचींच आसतलीं. 'कित्याक आयिल्लो?' एकटो विचारता. म्हणून सांगलें, हॉटेलांतले वेटर दिल्लो ड्रॅस घालपाक आनी काडपाक अर्दो वेळ फुकट वगडायतात. जाल्यार 'वेळ कसो वांचोवं येता' हाचेर सगळींच गिन्यान दितात मालक्रियाद. वेल्यान म्हाकाच बुशर्टाचे बटण काडूंक लायले. वेल्यान घालीत यो - परत काड - सकल्यान घाल, असो धा वेळा सतायलो म्हाका. कसोबसो तांचे तावडींतल्यान सुटून अशी वयर धांव मारली. पळयात, ह्या म्हज्या बुशर्टाक एकूय बटण दवरूंक ना तांणी. (फुडल्यान घाल्ल्यान बटण फाटल्यान उरल्यात हें ताच्या लक्षांत येना.)आरेच्याऽऽ! बटण ना ते ना. वेल्यान दोनय पोतां उब्याउबीं केन्ना शिंवलीं तें सुद्दां कळ्ळेंना.

पार्थ : मिस्टर, बुशर्ट फाटल्यान उकतो आसा. तुमी उरफाटो घाला.

पायलट : (लक्षांत येवन) ओ! फाटल्यान ! सॉरी, सॉरी मॅडम...

पार्थ : रिलॅक्स. लीली, हांव सकयल वचून पळोवन येतां. तेसर हांकां कितेंय च्या-कॉफी दी.

(इतल्यांत बोवाळ घालीत सचीन (पिराय तेरा), शबाना (पिराय धा), अजय (पिराय णव), दीप (पिराय आठ) हातांत पायलटाचो कोट, पेन, वक्ल, बटण घेवन वयर धांवत येतात.)

पायलट : सरऽऽ, हींच तीं तवनास, बेशिस्त, बेजबाबदार भुरगीं.

सचीन : (पायलटाकडेन पळोवन) एऽऽ, कस्टमर इज हियर.

भुरगीं : हाऽऽय अंकलऽऽ.

पार्थ : शट अप् ! (सगळीं ओग्गी) वॉट नॉनसॅन्स !

सचीन : डॅडी, ताका कितलेंय सांगल्यार ताच्या लक्षांतच वचना. बुशर्ट घालतना

बटण सकयल्यान वयर घालत वचत जाल्यार पांच सेकंद वांचतात हें तो आयकूनच घेना.

शबाना : तागेल्या शर्टाचे बटण आमी लावन दाखयले जाल्यार तो जाण्टो जावन लेगीत भुरग्यांभशेन नाचता.

दीप : मम्मी, तूं एंडेल घालतना म्हजे हातपांय घट धरतकीर हांव धडपडटां पळय, तशें तो करूंक लागलो. सगळे बटण तुटून चणे कशे जमनीर पडले. हांवें पुंजावन हाडल्यात.

पार्थ : नाउ यू गो इनसायड. गो...

(भुरगीं वळीन पायलटाम्हऱ्यांत वतात. पायलट नर्व्हस जाता. प्रत्येक भुरगें पेन, वक्ल, बटण, कोट ताच्या हातात दिता आनी सगळीं एकाच बराबर मोठ्यान 'सॉरी अंकल' म्हणीत भितर वतात. लीलीय वता.)

पायलट : सर, तुमचीं भुरगीं? आय ॲम सॉरी. हांवें तांकां रस्ताद, तवनास म्हळें.

पार्थ : म्हणूं.

पायलट : तें हांवें बेठेंच म्हळें. खरें म्हळ्यार भियेवनच हांवेंच ही अशी दशा करून घेतली. तांचो कांयच गुन्यांव ना. तुमचीं भुरगीं खरेंच बरीं.

पार्थ : तुमी कित्याक आयिल्ले?

पायलट : सर, सायब पयर फोनाचेर तुमचेकडेन उलयिल्ले. सोनिया हॉटेल.

पार्थ : आयलें लक्षांत. फुडें...

पायलट : तुमी आज येता म्हणिल्लें. तुमची कितलीय फी दिवपाची तयारी आसा आमची. सायब म्हणूंक लागले, तुमकां वचून घेवनच यो. ना म्हणूं नाकात. तुमी म्हजेवांगडा आयलेना जाल्यार हांव कामाक योग्य ना अशें दिसतलें सायबाक. तसो हांव मॅनेजर. म्हणजे, हांव गरीब सायब. प्लीज. नाजाल्यार म्हाका कामावयल्यान काडून वडयतले. (पार्थ ओग्गी तें पळोवन) तुमचीं भुरगीं खरेंच बरीं. आय लव्ह दॅम. तांची कसलीच चूक ना.

पार्थ : हांव सांजचो साडेतिनांक येतां.

पायलट : थँक्यू सर! हांव गाडी घेवन येवं?

पार्थ : नाका. हांव म्हजे गाडयेन येतां.

पायलट : थँक्यू सर. (गोंदळून) येतना भुरग्यांक कांयच हाडलेंना.

(भितरल्यान भुरग्यांचो एकच बोवाळ. आवाजाचे दिकेन पळयत पायलट भीत भीत भायर पळटा.)

पार्थ : ना. हांव भुरग्यांक तापोवचों ना. भुरग्यांचो कांयच दोश ना. तांचो हेतू शुद्ध आशिल्लो आनी तो म्हणजे, ताका पटोवन दिवप, सकयल्यान बटण

घालीत वचत जाल्यार पांच सेकंद वांचतात. लीलीक दिसता, हांव भुरग्यांची वाट लायतलों. तांकां हांव अती मुखार व्हरपाचो यत्न करतां. पूण ना. तशें न्हय. म्हजें मत एकच. भुरग्यांक फटोवपाचें ना. तांकां फकत वाडोवचीं न्हय, घडोवचीं. प्रत्येक गजाल तांकां कळूंक जाय. स्पश्ट आनी सरळपणान. हांव जितल्यो गजाली लीलीकडेन उलयतां, तितल्योय गजाली हांव म्हज्या प्रत्येक भुरग्याकडेन उलयतां. घरच्यो अडीअडचणी, ऑफिसांतलीं कामां, जिणेंतले संघर्श, दरएका गजालीविशीं हांव तांचेकडेन उकतेपणान उलयतां आनी म्हणून बरेचशे प्रस्न, अडचणी तांचे तींच सुटावे करतात. धिस इज माय एक्सपिरियन्स. भुरगीं म्हणजे ल्हान, अर्दगिन्यानी, तांचेकडेन हें उलोवचें न्हय, तें करचें न्हय ही समजणीच चुकीची.

लीली मानसशास्त्राचें पदवीधर. भुरग्यांक घडोवपाच्या म्हज्या कामांत तें खोशयेन वांटो घेता. केन्नाकेन्नाय हांव कामाक सावन चार-आठ दीस भायर उरतां तेन्ना तें ताचे मानसशास्त्राचे पद्धतीन भुरग्यांक हाताळटा. लग्न जालों ते राती हांवें ताका विचारलें, ‘लीली, आमी कितल्या भुरग्यांक जल्मा घालुंया?’ ताणें म्हळें, ‘तूं सांग.’ हांवें म्हळें, ‘लीली, म्हाका बारा भुरगीं जाय.’ दिशिल्लें, तें लजतलें. ‘लोक आमकां हांसचेनात?’ अशें म्हणटलें. पूण ना. ताणें थंडपणान म्हाका विचारलें, ‘बारा कित्याक?’ हांवें म्हळें, ‘डझनांनी सवाय पडटा न्हय, म्हणून.’ ‘तुजी इत्सा’, म्हणीत लीली हांसलें. आतां म्हाका सगळींच सात काय आठ भुरगीं आसात. सातच दिसता! ना. निमणो चलो. नांव कितें पळय ताचें? सलीम जातलें. हय सलीमच. सलीम आठवो काय...? (उलो मारता) लीलीऽऽऽ.

लीली : (भायर येता) पार्थ !

पार्थ : लीली, आतांमेरेन आमच्या एकूण भुरग्यांची बेरीज कितली जाली? निमणो सलीम खंयच्या नंबरार खेळटा?

लीली : पार्थ, कितें हें दर वेळा? कशें लक्षांत उरना तुज्या? सलीम आठव्या नंबरार खेळटा आनी आतांमेरेन ताणें पांच रन पुराय केल्यात.

पार्थ : आं ! सलीम सव्या वर्सांत पावलो? आनी तूं हें म्हाका आतां सांगता?

लीली : हांवें तुका सांगपच न्ही. तूं बापूय तांचो. तुका न्हिदेंत सुद्धां सांगूंक येवंक जाय तुका कितलीं भुरगीं तीं.

पार्थ : शीऽऽ! सलीमा उपरांत खूबच वेळ गेलो लीली.अजून चार बाकी आसात. आतां एक मिनीट घालयनासतना आमच्या णव्या नंबरावेल्या गड्याक

हाडपाचे तयारेक लागूंक जाय.

लीली : पुरो आतां. म्हज्यान जायना.

पार्थ : जायना? लीली, अद्र्यावयर शिखर चडून जालें. तेंगशी दिसपाक लागल्या आनी तूं फाटीं सरता?

लीली : पार्थ, घरांतलीं कितलीं कामां वाडलीं. आठ भुरग्यांचें करप! ओ ! आय एम सो टायर्ड !

पार्थ : आय नो. जाणां हांव. तेशिवाय तुका मानसशास्त्राचेर व्याख्यानय दिवपाक वचचें पडटा. तातूंतय तुजो वेळ वता. हांवें हाचेर एक उपाय येवजून दवरला. घरचीं कामां भुरग्यांच्या वयाप्रमाण, तांचे तांकीनुसार वांटून दिवप. तीं करतलीं. डेफिनिटली करतलीं. पळयच तूं.

(तोंडांत बोटां घालून पार्थ मोठ्यान शिळोण घालता. तशीं आशिल्ले थंयच्यान बोवाळ करीत, पदां म्हणीत, नाचत भुरगीं हॉलांत जमा जातात.)

पार्थ : सगळ्यांनी बसून घेवचें अशी हांव विनंती करतां.

(भुरगीं बसतात. तांचे मुखार दोन बसका घेवन पार्थ-लीली बसतात.)

आतां हांवें जी हांगा तातडीची घरावी बसका आपयल्या तिचो सदचेप्रमाण हांव अध्यक्ष. तुमचो कोणाचोच अध्यक्षपदाक विरोध आसचोना अशें समजून हांव बसकेच्या कामकाजाक सुरवात करतां.

स्टॅफी : डॅडी, प्रत्येक मिटिंगेक तूंच अध्यक्ष जावपाक म्हजो विरोध आसा.

पार्थ : एकदां अध्यक्ष म्हणून हांव खुर्चेर बसलों म्हणटकीर आतां विरोध करप चुकीचें जाता. बस सकयल.

स्टॅफी : ना ना. आज मम्मी अध्यक्ष आनी तूं उपाध्यक्ष.

(बाकीच्यो भुरग्यांचो 'हयवय', 'बरोबर' असो बोवाळ.)

लीली : ऑर्डर, ऑर्डर. चूप ! अध्यक्षपदाक हरकत घेतल्या ताणें कारणां दिवचीं पडटलीं. मागीरच ताचो मुद्दो विचारांत घेतले.

स्टॅफी : कारण एक. डॅडी अजून आमचीं सगळ्यांचीं नांवां घुस्पायता. पयर मार्केटांत गेल्लीं तेन्ना डॅडीबरोबर हांव आनी जेन आशिल्लें. डॅडीच्या मित्रान डॅडीक आमचीं नांवां विचारलीं. जाल्यार डॅडीक सांगूंकच येना. मागीर आमकां दोळे मारीत डॅडीन दोन नांवां सांगलीं. पूण तीं दोनय नांवां शेजारच्या शणैमामाल्या भुरग्यांचीं.

भुरगीं : शेमऽ शेमऽ शेमऽऽऽ.

पार्थ : हांव मान्य करतां, हांव तुमचीं नांवां विसरतां. तुमी सगळींच एकाफाटोफाट एक जाल्ल्यान म्हात्सो गोंदळ जाता खरो. तेबद्दल हांव तुमची प्रत्येकाची

माफी मागतां. पूण हें कारण अध्यक्षपदाक विरोध करपाक योग्य ना. कारण अध्यक्षाक सगळ्या मेंबरांचीं नांवां पाठ आसूंकच जाय अशें खंयच्याय कायद्यांत ना. (पार्थ-लीली ताळयो मारतात).

अजर : नांवां विसरता तें एक बरें आसा. पूण डॅडी, तूं एकेकदां आमकां वळखसुद्धां ना.

पार्थ : अेंऽ हें फट. तुमकां आठय जाणांक हांव वळखतां. तुजें नांव... आंऽ... (याद करीत) कितें पळय... (कपलार हात मारता).

अजर : पळयलें. हांव अजर. मम्मी, काल हांव आनी शेजारचो महेश भायर खेळटाले. हांव लिपिल्लों आनी महेश म्हाका सोदतालो. इतल्यांत डॅडी भायल्यान आयलो. डॅडीन महेशाक उबारलो, ताची पापी घेतली, ताच्या तोंडांत चॉकलेट घाली आनी ताका घेवन घरांत आयलो. हें पळेनाफुडें हांव धांवत आयलों. जाल्यार डॅडी म्हाका म्हणटा, 'ए, घरा वच आतां, पुरो खेळ्ळा तो. तीनसांज जाली, वच तुज्या घरा.' मागीर दीदीन डॅडीक सांगलें, धरला तो शेजारचो आनी भायर आसा तो अजर आमचो. तेन्ना डॅडीन ताका सोडलो आनी म्हाका भितर घेतलो.

लीली : हो आरोप खूब गंभीर आसा. हाचेर विचार जावप गरजेचें.
(भुरगीं निशेध म्हणून एके वेगळेच लयीन ताळयो वाजयतात.)

पार्थ : (मान सकयल घालता. मागीर वचून अजराक उखलून धरता. ताची पापी घेता.) आय प्रॉमीस, हाचेफुडें अशें घडचें ना. महेश आनी अजरांत खूब साम्य आसा. एकाचसारके दिसतात. (भरिल्ल्या आवाजांत) पूण तरी आसतना जें म्हजेकडल्यान घडलें तें योग्य न्हय. सॉरी. (अजराक सकयल दवरून दोळे पुशीत आपले बसकेकडेन येता.) काल हांव मातसो गडबडींतय आशिल्लों. माय फ्रँड्स्, आय एम सॉरी. (खिन्न जावन बसता.)

लीली : (विशय बदलून) म्हाका दिसता, आतां मिटिंगेक सुरवात करपाक हरकत ना. पार्थ, चल सुरवात कर.

पार्थ : (स्वताक सावरीत) हे बैठकीचो पयलो मुद्दो आसा घर, पोरसूं, आंगण नितळ दवरपाखातीर कामाची वांटणी करप. सगळें काम मम्मीचेर पडप बरोबर न्हय. हाचेर कोणाकय सुचोवणी करपाची आसत जाल्यार करची.
(पार्थ बसता. भुरगीं एकामेकांकडेन पळोवन फुतफुततात.)

लीली : सभासदांनी मेकळेपणान उलोवचें. फुतफुतचें न्हय. हांगा लोकशाय आसा, प्रत्येकाक मत मांडपाचो अधिकार आसा. कामाची वांटणी कशी जावची अशें तुमकां दिसता?

पार्थ : लता, तूं सगळ्यांत व्हडलें. तूं सुरवात कर.

लता : अध्यक्षमहोदय, हांव अंदूं धावेक आसां. ताका लागून घरच्या कसल्याय कामांत वांटो घेवप म्हाका शक्य ना.

लीली : सचीन, तूं स्कुलांत भाशणां करता आनी आतां वग्गी? सचीन आतां आपले विचार मांडटलो. तोमेरेन तुमी बाकीचीं तयार रावात आनी पटापट सांगात.

सचीन : घरांतलें काम करपाक वावराडी आसा. तेशिवाय भायलीं कामां करपाक मिंगेलपाय हांगाच आसता. तांकांच आनीक कामां वांटून दिवचीं. कारण तांकां आमी पगार दितात.

पार्थ : (तापून) शटअप! मूर्ख! पयलींच आसात तीं कामां करपाक तीं कुणकुणटात. तातूंत तुगेलें हें उलोवप तांच्या कानार पडल्यार आसात तींय वतलीं. मागीर तांगेलेंय काम तुमकांच करचें पडटलें. खबर आसा?

लीली : वांगड्यांनो, पयलींच आमच्या घरांतलें सैन्य पळोवन कोणच वावराक येवपाक तयार जायनात. तातूंत तुमी आठ जाणां आनी आनीक चार जाणां येवपाचीं आसात.

सलीम : आनिकय येतलीं मम्मी? याऽऽ हूऽऽ! म्हाका खेळपाक मेळटलीं.

पार्थ : (चाळोवन) याऽऽ हूऽऽ? आनीक चार भावंडां येतलीं तेन्ना तुका मिशयो येतल्यो. तूं कसो खेळटलो तांचेबराबर?

(सगलीं हांसता आसतनाच लता गंभीर जावन उठटा.)

लीली : रावात. सायलन्स प्लीज! लता आनीक कितें सांगूंक सोदता. सांग लता.

लता : मम्मी... डॅडीऽऽ !

पार्थ : सांग. भियेनासतना सांग. कशीं वांटपाचीं कामां?

लता : मम्मीऽऽ

लीली : तूं उलोवपाक फाटींफुडें जावंनाका लता. मेकळेपणान उलय. डॅडीच्या रागाक भियेवं नाका. हांव आसां तुजेफाटल्यान. सांग.

(लता एकदम कडेक वचून घुस्मटून घुस्मटून रडटा. लताकडेन पळेत बाकीचीं भुरगीं उठ्ठात.)

लीली : सगळीं बसात. (लताम्हन्यांत वचून) लता, कितें जालां?

लता : मम्मी, मम्मी... खरेंच आनीक चार भुरगीं येतलीं ह्या घरांत? म्हाका आनीक भावंडां नाकात मम्मी.

पार्थ : कित्याक नाका लता? तुका तांचेपसून कसलोच त्रास जावंचो ना. आय प्रोमीस.

लता : डॅडीऽऽ प्लीज! म्हाका... म्हाका... म्हज्यो मैत्रिणी... आतां म्हाका लज दिसता डॅडी... भाव-भयण जाल्या म्हणून सांगूंक. प्लीज डॅडीऽऽऽ! (रडटा.)

पार्थ : ओके ओके, ओगी राव आतां. कंट्रोल युवरसेल्फ. ताचेर आमी विचार करुंया. ओके, नो मोअर डिस्कशन ओव्हर धिस सब्जक्ट. (भुरग्यांक) मिटींग इज पोस्टपोन्ड. तुमी आपापल्या कामाक वचात. गोऽऽ!

(सगळीं भुरगीं मोन्यांनी वतात. पार्थ लताक घट धरता. लीली ताका उदक हाडून पियेवपाक दिता.)

पार्थ : लता, आय प्रोमीस यू... आनीक नवें भुरगें हाचेफुडें ह्या घरांत जल्माक येवचेंना. ओके? आतां हांस. (लताचे हुंदके चालूच.) डॅडीचेर विश्वास ना तुजो? डॅडीन दिल्लें उतर केन्ना तोडलां? एकदां ना म्हळें तें डॅडी केन्नाच दिना आनी एकदां दितां म्हळें तें दिलेबगर केन्नाच रावूं ना. बरोबर?

लता : डॅडीऽऽ (म्हणून वेंग मारता.)

पार्थ : दोळे पूस. रिलॅक्स. हांस. (दिमी मारून) म्हजीं कबुतरां म्हाका सदांच हांसरीं जाय. सदांच हांसरीं.

(लताच्या तोंडार हांसो फुट्टा. तें भितर वता. पार्थ ताका पळेत उरता. लीली गंभीर जावन चिंतेस्त अवस्थेंत बसता.)

पार्थ : लीली, कसलो विचार करता? नाउ द प्रॉब्लेम इज सोल्व्ड.

लीली : एक प्रॉब्लेम सोल्व केलो आनी दुसरो प्रॉब्लेम सुरू केलो.

पार्थ : दुसरो प्रॉब्लेम?

लीली : तुवें लताक उतर दिवन उडयलें, ह्या घरांत आनीक भुरगें जल्माक येवचें ना म्हणून.

पार्थ : हय लीली. आनीक नाका.

लीली : हांवेंय तुका उतर दिल्लें. पयलेच राती. तुका बारा भुरगीं दिन म्हणून.

पार्थ : विसर तें आतां. आतां आठच पुरो. लताचें म्हणणें योग्य आसा.

लीली : आनी णववो गर्भ म्हज्या पोटांत आसा ताचें कितें?

पार्थ : वॉट?! (पळेत उरता) रियली? फट - फट... फट उलयता न्ही लीली?

लीली : डॉक्टराचो रिपोर्ट दाखोवंक जाय?

पार्थ : कितले दीस जाले? म्हाका पयलींच कित्याक सांगलेंना?

लीली : म्हाका आयजूच सांगूंक जाय आशिल्लें. आयजच.

पार्थ : आयजच?

लीली : हय आयजच. आयजच ही खबर सांगून तुजे खोशयेंत भर घालची अशें

चिंतिल्लें हांवें. हरशीं दर वेळा जी खबर सांगतकीच तुवें घरभर नाचचें, मर्दींच येवन म्हाका वेंगेंत घेवचें, ह्या भुरग्याक उखलून धर, त्या भुरग्याची पापी घे करचें, तीच गजाल आज कितल्या कश्टांची, त्रासांची जाल्या पार्थ.

पार्थ : डोन्ट वरी लीली. नो प्रॉब्लेम. दीस गेले तरी जल्माक घालप न घालप आमच्याच हातांत आसा न्हय?

लीली : म्हणजे? (रागान) जल्माक घालप काय न घालप?

पार्थ : न घालप.

लीली : आनी म्हाका म्हजें भुरगें जाय जाल्यार?

पार्थ : तुजें भुरगें तें म्हजेंय भुरगें लीली.

लीली : आनी जल्माक घालप न घालप तें थारावपाचो अधिकार फकत तुजो? म्हजोय न्हय?

पार्थ : (अजापान) लीली! तूं बेठोच विचारांचो गोंदळ करता. म्हाका भुरगीं जाय. आनीक एकच न्हय, आनीक धा जाल्यार सुद्धां जाय. पूण व्हड जाल्ल्या भुरग्यांचे मानसिकतायेचो विचार करूंक जाय न्हय?

लीली : बारा भुरगीं जाय म्हणून थारायतना बारावें भुरगें जल्माक येतलें तेन्ना पयलीं दोन-चार भुरगीं पुराय समज आशिल्ले पिरायेचीं जातलीं, हें सादें गणीतय तुका खबर नाशिल्लें इंजिनीयर पार्थ?

पार्थ : हो विचारच म्हजे तकलेंत आयलो ना लीली. तूं मानसशास्त्राची पदवीधर. तुका तरी कळूंक जाय आशिल्लें.

लीली : म्हाका कळिल्लें. पूण तुजी भुरग्यांची इत्सा पुराय करूंक वेळ आयल्यार तांची मानसिकताय हांव बदलूंक शकतां असो आत्मविस्वास आशिल्लो म्हज्यांत. तेन्नाय आनी आतांय.

पार्थ : आतां हांवें लताक उतर दिलां. आय हॅव प्रॉमिज्ड हर.

लीली : तुवें एकल्यानच. म्हाका विश्वासांत घेतलेबगर. हांव भुरग्याक जल्म दितलें. हांव अबोर्शन करूंक शकना. आय कान्ट किल् माय चायल्ड !

पार्थ : (पश्चातापान) येस्, हांव चुकलों. आय ॲम् सॉरी लीली. जल्माक घालप न घालप पयलो अधिकार तुजो. आठ भुरग्यांक जल्माक घालतना भयंकर यातना, कश्ट सोसपी अस्तुरेचो अधिकार हांव झोमून घेवंक शकना. मान्य आसा म्हाका. तुका विचारचे पयलींच हांवें लताक उतर दिलें. लीली, भुरगें जल्माक येवंदी. म्हजें दिल्लें उतर मोडल्यार जाता. भुरग्यांचे नदरेंतल्यान डॅडी फटींग थारल्यार जाता. हांवें गुन्यांव केला ताची ख्यास्त

भोगूंक हांव तयार आसां. दिल्लें उतर मोडिल्ले खातीर म्हज्या भुरग्यांनी म्हाका ख्यास्त दिवंकच जाय. समबडी शूड पनिश् मी. नाजाल्यार उतर पाळपाचो गुणच म्हज्या भुरग्यांमदलो शेणून वतलो. म्हज्या कबुतरांनो, हजार वेळा म्हणात, 'वी हेट यू डॅडी, वी हेट यू.' (दोनय हातांनी तोंड धांपून घुस्मट्टा.)

लीली : (पार्थाम्हन्यांत वचून) पार्थऽ, पार्थऽऽ, हांवें फकाणां केलीं तुजीं.

पार्थ : आं ऽऽ!

लीली : म्हाका दीस वचूंक नात. आय ॲम नॉट प्रॅग्नंट.

पार्थ : (विश्वान न बसून) वॉट?ऽऽ रियली?

लीली : खरेंच, मस्करी केल्ली हांवें.

पार्थ : (गोंदळून) तूं... तूं कितें सांगता? लीली म्हजी तकलीच शून्य जाल्या.

लीली : तूंय अशींच आमचीं फकाणां करता. सिरियस जावन.

पार्थ : खरेंच मस्करी? खरेंच? ओऽऽ लीली, यू स्टुपीड गर्ल...

लीली : स्टुपीड गर्ल न्हय, बर्थ डे गर्ल. आज म्हजो वाडदीस.

पार्थ : (तकलेर मुठी मारून) ओऽऽ! अंदूय विसरलों... छॅऽऽ!

लीली : दर वर्सा विसरता. आतां हाचेफुडें विसरतलो?

पार्थ : नेव्हर. केन्नाच ना. (लीलीचो हात हातांत घेवन) मेनी हॅपी रिटर्नस् ऑफ द डे. भुरग्यांक याद करूं नाका आं. वाट लावया तांची.

लीली : सकाळीं उठनाफुडें प्रत्येकान म्हाका विश केलें. तूं सोडून. बर्थडेची तयारी करतालीं तीं. तुवें मदींच बैठक घेतली. तांचें लक्षच नाशिल्लें बैठकींतल्या विशयाचेर.

पार्थ : तांकां मात सांगूं नाका आं हांव विसरिल्लों म्हणून. म्हाका खातलीं तीं. (लीली हांसता. सगळीं भुरगीं एका ताटांत बावलेचो केक, सुरी, मेणवात, फस्क घेवन येतात.)

शबाना : (ताट टीपॉयचेर दवरीत) ममी, केक काप.

लीली : केक कोणें हाडलो?

भुरगीं : आमी.

दीप : सचीनभैय्या, मेणवात पेटय.

जेन : ममी, फूऽऽ कर. (लीली मेणवात पालयता. भुरग्यांच्यो ताळयो.)

सलीम : (सुरी दीत) ममी केक काप.
(लीली हातांत सुरी घेवन केकाचे बावलेकडेन पळेत रावता.)

लता : काप न्ही ममी. कितें पळयत रावल्या?

लीली : लता, केकाची बावली कित्याक करून हाडली? हांव ल्हान?

भुरगीं : आमकां बावली आवडटा.

लीली : बरें आसा. तुमीय सगळीं म्हाका आनी डॅडीक खूब आवडटात. डॅडीक तर तुमचेबगर पयस रावप केन्ना जमलेंच ना. तुमकां खोस मेळची, तुमचो फुडार बरो घडचो हो एकच हावेस आमचो. पूण केन्नाकेन्नाय हांव-डॅडी चुकतात. आमचेकडल्यानय चुको घडटात. तेन्ना तुमचेभशेन आमकांय दिसता, तुमी आमकां समजून घेवचें. आमकां माफ करचें. करतलीं व्हय? (भुरगीं एकामेकांक पळयत हांसतात.) लता, स्टेफी, सचीन, शबाना, तुमी मात्शीं व्हड, समज आयिल्लीं भुरगीं. केक कापचे पयलीं म्हाका तुमचेकडल्यान एका प्रस्नाची जाप जाय. मेकळेपणान, फाटींफुडें जायनासतना. एक प्रॉब्लेम आसा आनी तो तुमी सोडोवपाचो. जशीं तुमी आठ भावंडां जल्माक आयलीं, तशेंच तुमचें आनीक एक भावंड जल्माक येवचें आसा.

जेन : खंय आसा तें ममी? म्हाका बाय नाका आं, बाबू जाय.

सलीम : बाबू नाका ममी. बाय जाय. ममी, बाय खंय आसा?

लीली : म्हज्या पोटांत आसा.

पार्थ : लीली, परत कसली मस्करी करता?

लीली : पळयलें, तुमच्या डॅडीक सुद्धां खबर ना म्हज्या पोटांत बाबू आसा तें. म्हणून हाचेफुडें ह्या घरांत आनीक भुरगें जावचेंना म्हणून तांणी तुमकां उतर दिल्लें. लता, स्टेफी, सचीन, तुमचीं मनां म्हाका कळटात. म्हणून ही केकाची बावली कापचे पयली हांव तुमकां विचारतां, पोटांतल्या बाबूक जल्माक येवंदी तुमचो भाव वा भयण म्हणून, काय जल्माक येवपाकच दिवंनये, हाची जाप तुमी दिवपाची.

पार्थ : लीली, तूं कितें करता म्हाका कांयच कळना.

लीली : मानसशास्त्र आनी वेवस्थापनशास्त्र हातूंत खूब फरक आसा पार्थ.

पार्थ : पूण लीली, येदोळ तुवें...

लीली : प्लीज पार्थ. मात्सो वगी राव. तुवें एक प्रॉब्लेम सोल्व केलो आतां दुसरो म्हाका सोल्व करूं दी.

शबाना : ममी, जल्माकच आयलोना जाल्यार तो खंय वतलो?

लीली : तो खंयच आसचोना. दोतोराकडेन वचप. अशीच सुरी आसता दोतोराकडेन केक कापपाची.

स्टेफी : नो ममी, अशें करूं नाका ममी.

सचीन : ममी, बाबूक मारूं नाका.

लीली : लता, म्हाका तुजेंय उतर जाय. (लता वग्गी)

दीप : ममी, आतां केक काप न्ही.

सगळीं : ममी, केक काप.

लीली : ओके. सुरी खंय?

स्टेफी : (सुरी दीत) घे ममी.

(लीली सुरी घेवन बावलेकडेन पळेत रावता. मागीर हळूहळू सुरी बावलेवटेन व्हरूंक लागता. सगळीं भुरगीं सुरांत 'हॅपी बर्थडे टू यू...' पद म्हणूंक लागतात. तितल्यांत लता एकदम धांवत येवन लीलीचो सुरी घेतिल्लो हात घट धरता.)

लता : मम्मी, केक कापूं नाका. केकाची बावली कापूं नाका. डोन्ट किल् दॅट बेबी. डोन्ट किल्. म्हाका बेबी जाय. कोणेंय कितेंय म्हणूं मम्मी, पूण ताका जल्माक हाड. आं म्हण मम्मी, प्लीजऽऽऽ!

(लीली लताक घट्ट वेंग मारता. ताका थापटीत रावता. भुरग्यांचें 'हॅपी बर्थडे' पद वाडत वता. तसो माचयेर काळोख.)

## देखाव दुसरो

लता : (माळयेवेल्यान देंवत प्रेक्षकांकडेन संवाद) मम्मीडॅडीन आमकां कामां वांटून दिलीं. पोरसांतलें वाडिल्लें तण काडप, सुकिल्लीं पानां-कोयर एकठांय करून भायर उडोवप हीं कामां भावांक सांगलीं. घरांत सान्न मारप आनी जेवणांतलो एक तरी पदार्थ आमी चलयांनी करप. न्हिदतना आपआपलें हांतुण आपणेंच घालप, फकत डॅडी सोडून. सोफा-खुर्च्यांचे पांय पुसप, शोकेस पुसप हें मोटव्या भावंडांचें काम, तर मेजां, कपाट आनी वेलें फर्निचर हें आमी व्हडल्यांनी पुसप. तेशिवाय आमचेभितर कांय समिती वेंचल्यात. घरगुती खरेदी समिती, लायट-उदक फुकट घालयता जाल्यार लक्ष दिवपाक दक्षता समिती. जी समिती सारकें काम करिना, तिका दंड दिवप, शिक्षा करप तेखातीर न्यायसमिती. प्रत्येकान दीसभर केल्लें काम आपले खाजगी वहींत नोंद करून दवरप. अध्यक्ष खंयच्या वेळार वहींचें इन्स्पेक्शन करतले. एकूण जें कारखान्यांनी, कंपन्यांनी वेळ वांचोवपाखातीर सुरळीत काम जावपाखातीर डॅडी

फर्मायता, ताचोच फॉर्मुला घरांत लायता. हें आमचें स कुडींचें घर म्हणजे डॅडीची प्रयोगशाळा. लोक मम्मी-डॅडीक म्हणटात, तुमचीं सगळींच भुरगीं हुशार कशीं? कांय जाणां तर एक मॉडेल म्हणून आमचें घर पळोवपाक आनी आमकां मेळपाक येतात. फ्रॅन्च, संस्कृत आनी जर्मन ह्यो तीन भासो आमकां चार भावंडांक येतात. ह्या चार भासांच्यो कॅसेटी सद्दां न्हातना आमी कंपलसरी बाथरुमांत लावप. पयलीं आमकां हीं डॅडीचीं पिशेपणांच दिसलीं. पूण त्यो आयकून आयकून आमी भासो शिकलीं खरीं. कितलेय अंकी गुणाकाराचें उतर कशें झटपट करचें हाचेफाटली खुबी आमकां डॅडीनच शिकयल्या. आज चार दीस जाले, डॅडी ना. कामाक लागून डॅडी भायर उरलो म्हणजे वाज येता. कसल्या कामाक उमेदच येना. डॅडी म्हणजे स्फूर्त्त, डॅडी म्हणजे मजा, डॅडी म्हणजे घोग्यांनी पडपी पावस, डॅडी आमचो अभ्यास, खोस... डॅडी म्हणजे सगळें. अवर लविंग फ्रॅंड, डॅडीऽऽ!

(बॅल वाजता. लता 'डॅडी' म्हणत दार उगडूंक भायर धांवता. पायलट पॅन्ट-शर्ट घालून येता.)

पायलट : हॅलो फ्रॅंड !

लता : ओऽऽ पायलट अंकल !

पायलट : बाकीची मिलिटरी खंय? बॉर्डरीचेर गेल्या?

लता : सगळीं कामांत बिझी अंकल. स्टेफी, सचीन आनी शबाना वयर बेडरूम निवळ करतात. अजर, दीप आनी सलीम फर्निचर पुसतात. आनी धाकटें जेन तें दुरीग रंगयता.

पायलट : तें भायर दुरगाक चुनो काडटा तें जेन? तुजी भयण?

लता : हय.

पायलट : शीऽ शीऽऽ हांव म्हणटां कोणतरी रंगयता म्हणून. तोंडाक रंग, हातापांयांक रंग, हांव वळखूंकच ना ताका. अशा वतांत येद्याच्या पांच-सं वर्सांच्या भुरग्याक अशें मानायाचें काम दितात? तुमच्या डॅडीक कितें काळीज बी आसा काय ना?

लता : डॅडीन दिवना ताका तें काम.

पायलट : मम्मीन दिलां?

लता : ना. तें काम जेनान पावणेर घेतलां.

पायलट : आं ! पावणेर? कामाची पावणीय जाता हांगा?

लता : कांय न वांटिल्लीं कामां डॅडी पावणेर काडटा. दुरीग रंगोवपाचें काम पावणेर

काडिल्लें. डॅडीन सांगिल्लेप्रमाण आमी त्या कामाक लांस घाल्लो. कागदार बरोवन. हांवें तें काम करपाक फोल्डींग सत्री आनी मेकअप सेट बरयिल्लो. सचीनान जीन पॅन्ट, स्टेफीन कंम्युटर, अजरान सायकल, दीपान इलेक्ट्रीक गिटार आनी जेनान फकत स्केटिंगचे बूट. डॅडीन जेनाक काम दिलें.

पायलट : इतलो तेंप तुमचो डॅडी वेळ वांचोवपाखातीर जायत्यो आयडिया करतालो. आतां पयशे वांचोवपाखातीरय आयडिया करूंक लागलो. पूण त्या भुरग्याचे हात सुजतले, चुन्यान आंगपांग फोफेतलें, ताचे कातीक घावे पडटले, तें दुयेंत पडटलें तेन्ना वखदाक दुपेटीन पयसो भायर काडचो पडटलो.

लता : पायलट अंकल, डॅडी करता तें बऱ्याखातीरच करता. आमकां डॅडीचो राग येना. तूं कित्याक चिडटा?

पायलट : बाय, तुका तें कळचेलेंना. तुमी अंकल अंकल म्हणून लागीं केलो आनी तुमचे गोडयेन हांव तुमचोच जावन पडलों. देखून वेळ मेळटा तेन्ना हांगा धांवत येतां तुमकां मेळपाक. म्हजो गानुट्टो सलीम खंय? अजून कसो आयलोना धांवन?

लता : सलीमऽऽऽ.

सलीम : (भितरल्यान) दीदीऽऽऽ.

लता : पायलट अंकल आयला.

सलीम : (भितरल्यान) अंकलऽऽ, वेट वेट, सलीम इज बिझी.

पायलट : बेटा, अंकल इज इन अ हरी. म्हाका वचूंक जाय रोखडोच.

सलीम : (खांद्यार वेटराभशेन पुसपाचो कपडो उडयत येता) अंकल, तुजे सेवेक सलीम हजर.

पायलट : आरे, सारको आमच्या हॉटेलांतल्या चिन्नू वेटराभशेन दिसलो मरे.

सलीम : (वेटराच्या आवाजांत) क्या लेंगे साब? गरम वडा, सामोसा, मिक्स भाजी, चाय, कॉफी, दूद, मेदूवडा...

पायलट : (हांसत) वडाऽऽ, वडो काडटां तुजे फाटीर आतां. (ताचे फाटीर मारता.)

सलीम : (भितर पळयत) ए अंकल को दो प्लेट गरम वडाय रेऽऽऽ! (प्लेट घेवन आयिल्ल्याची एक्शन, बील केल्ल्याची एक्शन.) ये बील लो, पैसा दो.

पायलट : (बोल्सांतल्यान कॅडबरी पॅकेट काडीत) हे घे बिलाचे पैशे.

सलीम : (कॅडबरी पळेत) कॅडबरी ! माय डियर अंकल ! (ताका वेंग मारता.)

स्टेफी, सचीन (येतात ) हाय अंकल !

पायलट : जालीं. मानाय-कामेऱ्यां बेकार जालीं?

स्टेफी : हें कितें अंकल? आमी मानाय-कामेऱ्यां?

पायलट: आगो फकाणां. तुमी कसलीं मानाय कामेऱ्यां? तुमी हुशार, बुद्दीमान. तुका गणितांत भांगरा-पदक मेळ्ळें मगो? तुजो फोटो पळयिल्लो पेपरांत. तुमचेयेदो आसतना म्हाका सादो बेचो पाडो सुद्दां येनासलो.

सलीम : अंकल, आतां येता? सांग, धा गुणिले धा?

पायलट: शंभर.

सलीम : अठ्ठ्यायशीं गुणिले चौऱ्याणव?

पायलट: (हांसता) रेडो !! आरे चौऱ्याणवांचो म्हणून पाडो आसता रे?

सलीम : आठ हजार आठशें छत्तीस.

पायलट: (बोल्सांतल्यान कॅलक्युलेटर काडून गणित करता.) आरे बरोबर मरे! हो गानुट्टोय सांगूंक लागलो. सांग पळोवया, छत्तीस गुणिले त्रेसश्ठ?

सलीम : (मात्सो विचार करून) दोन हजार दोनशें अडसश्ट.

पायलट: (परत कॅलक्युलेटर मारीत) आब्बा ! कशें करतात रे तुमी तोंडांतल्या तोंडांत?

लता : अंकल, तूं हॉटेलांत मॅनेजर आनी तुका खबर ना?

पायलट: बाय, हांव मॅनेजर न्हय. सादो कारकून. फकाणांनी म्हाका मॅनेजर म्हणून उलो करतात.

स्टेफी : अंकल, तुका आमी कितें दिवं? म्हाका च्या, कॉफी, कसाय करूं येता.

पायलट: कांयच नाका. तुमी खूब व्हड जायात. खूब हुशार जायात. देव तुमकां भोव खुशालकाय दिवं. येतां हांव.

लता : मम्मी येवपाची जाली. डॅडीय आज येतलो. बसात न्ही अंकल.

पायलट: ना बाय. हॉटेलांतलो मॅनेजर फरारी म्हणून पोलीस म्हाका सोदूंक येतले आनी धरून व्हरतले.

सलीम : बरें जालें. तूं आयतोच जिपींत बसून हॉटेलांत पावतलो. (सगळीं जाणां हांसतात. अंकल वचपाक दीप येता.)

दीप : अंकल, चल्लो?

पायलट: हय पुता.

दीप : काणी सांगली?

पायलट: आतां काणी ना.

दीप : अंकल, हांव म्हजें काम बेगबेगीन करून आयलों तुजेखातीर. आनी तूं काणी सांगनासतना वता? हांव केन्नाच उलोवचोंना तुजेकडेन.

पायलट: सद्दां कसली काणी सांगूं?

दीप : कसलीय सांग. इल्लीशी सांग.

पायलट: सगळ्यो काणयो सांगून सांगून सोंपल्यो. खरी काणी सांगूं? घडिल्ली?

भुरगीं : सांग, सांग.

पायलट: (थंयच बसका घेता.) एक गरीब कुटुंब आशिल्लें. खावन जेवन सुखी आशिल्लें. तांकां दोनच भुरगीं. आवय-बापूय व्हडलीं शिकूंक नाशिल्लीं. पूण भुरगीं जल्मतांच हुशार. हुशार इतलीं की तांकां जेन्ना शाळेंत पयलेक घालीं तेन्ना तीं तिसरेचीं गणितां करतालीं. आवय-बापायक पेंच पडलो. भुरगीं इतलीं बुद्दीमान खरीं, पूण तेप्रमाण तांकां पुस्तकां, खाण-जेवण, कपडे-बूट दिवं नाका? दीस वतां वतां भुरगीं मॅट्रिकेक पावलीं. आख्ख्या हातूंत... कितें म्हणटात तें...

लता : बोर्डांत.

पायलट: हय. बोर्डांत पयलीं आयलीं. आतां कॉलेजींत घालूंक जाय. खंयच्यान पयशे हाडपाचे? आवयबापूय चिंतूंक पडलीं. अशें चिंतता आसतनाच एक दीस  तांकां एक पत्र आयलें. बापायन तें वाचलें. तातूंत बरयिल्लें, 'तुमचीं भुरगीं खुबच हुशार म्हणून कळ्ळां. तेन्ना तांकां आमचे सुवादीन दवरशात जाल्यार आमची कंपनी तांचो सगळो खर्च करतली.' (दीप, सलीम खोशयेन ताळयो मारतात.) तांची हुशारकाय पळोवन तांकां फुडाराक फॉरेनाक शिक्षण घेवपाक लेगीत कंपनी धाडटली. कितें तें कळयात. मान्य आसल्यार भुरग्यांक दिल्लीक घेवन येवपाचो खर्च धाडटले.' आवयबापायन चिंतलें, आंधळो मागता एक दोळो, जाल्यार देव दिता दोन.

सचीन : तांणी भुरग्यांक दिल्ली धाडलीं?

शबाना : डॅडी म्हणटा, भुरग्यांक सदांच आवयबापाय म्हऱ्यांत दवरपाक जाय. म्हणजे तांकां आपूण सुरक्षीत आसां, आवयबापायक आपूण आवडटां अशी भावना तांच्यांत निर्माण जाता.

पायलट: खरी गजाल. पूण त्या आवयबापायन तांका व्हरून दिल्लीक पावयलीं. आनी थंयचें सगळें वेवस्थीत आसा तें पळोवन तीं खुशालभरीत जावन घरा आयलीं. दर म्हयन्याक भुरग्यांचीं पत्रां येतालीं. कंपनीय तांची खुशालकाय कळयताली. थंय तीं खूब शिकून खूब व्हड जालीं. फॉरेनाक गेलीं. आनिकय व्हड जालीं. इतलीं व्हड जालीं की आवयबापूय तांचेमुखार गिड्डीं जालीं. भुरगीं उंच मळबाक तेंकलीं. तांकां आवय-बापायचें तोंड दिसना. आवय-बापायक वयर पळेल्यार तांचीं मुखामळां दिसनात. आज

दिसतलीं, फाल्यां दिसतलीं करीत आवय देवाघरा गेली. आनी तो एकटोच खंती जावन हेडत उरलो.

अजर : ही खरी गजाल अंकल? घडिल्ली?

पायलट : हय, सामकी खरी.

दीप : तीं भुरगीं आतां खंय आसात?

पायलट : तीं ते कंपनींत मोठ्या हुद्द्यार आसात खंय.

सलीम : आनी तांचो डॅडी खंय आसा?

अंकल : तांचो डॅडी न्हय - तांचो 'बाबा'. हो पळयात तुमचे मुखार आसा. ताका आतां कोण ना. एकटो एकटोच आसता तो. कोणच, कोणच ना ताका.

शबाना : (वायट दिसून) अंकल, तूं कोणच ना कित्याक म्हणटा?

पायलट : खरेंच कोणच ना म्हाका ह्या संवसारांत.

सलीम : (रडत) आमी आसा न्ही अंकल? तुजीं, तुजीं न्हय आमी?
(पायलट दिमी मारून सलीमाक काळजाकडेन घट धरता. सलीम हातांनीच पायलटाचे दोळे पुसता. भायल्यान दुमींग घरांतलो मानाय कसो येता.)

दुमींग : (ताकतिकेन) लोता, ओ बाय लोता, मम्मी येयली भायर गेलेली ती?

लता : ना दुमींगपाय.

दुमींग : डॅडी येयला?

लता : ना अजून.

दुमींग : मम्मी येतकीच तिका सांग जेन म्हुगे कुडींत आहा म्हूण.

लता : तुगेले कुडींत? तें रंग काडटा न्ही रे दुरगाक?

दुमींग : रोंग काडिता? काल घुंवळ येवन पोडलें. हांयेन साबुद्दीर हाडलें. आतां पोरतेंय घुंवळ येवन घडायंच करोन पोडलें. तोरी बोरें, फातरीचेर तोकली साणोवली ना पोराची.

पायलट : घुंवळ येवन पडलें जेन?

दुमींग : आतां हांयें उदीक मारोन मारोन साबुद्दीर हाडोलां आनी मुगे कुडींत घायलां. रोजालीनान तेका सोरबोत पिवोयलें. येशा वोता कोडार म्हूण येद्याशा भुरग्याक रोंग काडोच्याक सांगोता? केसो बापूय रे हो! बाय, डॅडी येतोगीच तेका सांग, पोरोत तेका रोंग काडोच्याक लायशी जाल्यार दुमींग रागाक वायट म्हणोन.

स्टेफी : दुमींगपाय, तूंच सांग मम्मीक आनी डॅडीक.

दुमींग : भियेतां काय कितें हांव तुगे डॅडीक?

भुरगीं : (राग येवन) दुमींगऽऽऽ

दुमींग : तेशें म्हुज्यान सांगों जाता आहलें जाल्यार हांव केदनाच सांगतां आहलों. किदें मोनीस काय राकेस रे हो डॅडी?

पायलट : आतां कशें आसा म्हजें जेन?

दुमींग : पिशोल धरोन धरोन पोरा हाती पोडल्यां खिणां. वोतांत कोरपोलां मुरे तें. आनी येशेंच रोंग काडीत रावल्यार जाणा ओंकोल, त्या पोरा हातीक बुराक पोडटलो बुराक.

पायलट : दुमींग, तूं रंग काड त्या दुरगाक. तुजे पयशे हांव दितां.

दुमींग : बापाय! हांव पोयशांक लागोन कोरिना येशें सोजमोलो तूं? हांव आतां कोम्प्लेन कोरच्या आहां. पूण त्या डॅडीक सोजमोल्यार साटलेपोटले सोकोट म्हाका भायर मोकच्या आहा तो.

लता : (रागान) दुमींगऽऽऽ

दुमींग : तेसो डॅडी खोरोच बरो मुनीस गो. आयज कितो वोर्सां जायलीं तेंगेलेंच काम कोरतां आनी तेगेलेच भितोडेंत राबितां. पूण मोदींच केशीं पिशेपोणां कोत्ता तें तो जेजूच जाणां. म्हुगे जॅक आनी जेन एके पिरायेचीं. सो वोर्सा भुरग्याक येशें काम दितायी? आतां चार दीस जाले, तें सोकाळ सांजे रोंगोयता. येदेंशें दुरीग खोरें, पूण तेका तेंच व्होड न्हू?

सचीन : दुमींगपाय? जेनान तें काम कॉन्ट्रेक्टाचेर घेतलां.

दुमींग : कॉन्ट्रेक्टाचेर घेयलां? तुगे डॅडी इजनेर म्हूण किदें घोरय पी.डब्ल्यू.डी. आपीस केशें दिसोता काय किदें तेका? आनी फाल्यां जेन दुयेंत पोडलें, बोरें वायट घोडलें जाल्यार पोरोत तेसलेंच जेन मेवपा आहा? टेंडर काडलें म्हूण कोण सोप्लाय करचो आहा?

पायलट : अशें नसतें उलोवं नाका दुमींग.

दुमींग : उलोवं नाका? येशें त्या डॅडीक इचारच्या आहा हांव.

लता-सचीन : कितें म्हळें, तूं डॅडीक विचारतलो?

दुमींग : (माथें खरपीत) पूण जाता किदें जाणा मुरे...

लता : दुमींगपाय, डॅडीक कित्याकितेंय म्हणूंनाका. डॅडीन जेनाक करच म्हण सांगूंक ना. ताच्यान जायना जाल्यार ताणें तें काम सोडूं येता. डॅडी कांयच म्हणचो ना. डॅडीक राकेस राकेस म्हणटा आनी तूं जॅकाक शिकना-शिकना म्हणून राकेस कसो मरसर बडयता तो? कितलेवेळा जॅकाक डॅडीन तुजेपासून सोडयला. हॉस्पिटलांत सुद्दां व्हेला, याद आसा मरे?

दुमींग : डॅडी बोरो गो. खोरेंच बोरो. म्हाकाच सोजमोना तो केसो आनी किदें

म्हूण. म्हाका किदें दिसोता जाणा अंकल, मोनीस चोड चोड शिकलो म्होणजे निमणें ओडाणी जाता आसतेलो. चोय, मोनीस जोल्माक येता आनी दुसऱ्याचें बोट धरून चोलता. मागीर व्होड व्होड जाता आनी जाणटो जाता. चोड जाणटो जालो; आनिकोय जाण्टो जालो म्हुणटगीच किदें जाता? भुरग्यावरी जाता. तेका सांगिल्लें सोजमोना, हातीक धरोन चलोवचें पोडटा. बरोबर? म्हूण खोंयचीय गोजाल चोड बोरी न्हय.

पायलट: बरो हुशार आसा तूं.

दुमींग : हांव हुशार न्होय. जेजू. जेजून सांगलेलेंच हांयें तुका सांगिलां. हांव केसो मोड्या हुशार? तूं नेरू जाणा?

पायलट: (न समजून) नेरू?

दुमींग : नेरू खोबोर ना? नेरून सांगलेलें तेंच इंदिरा गांधीन सांगलें.

पायलट: आं हां ! नेहरू !

दुमींग : वोय. इंदिरा गांधीन सांगलें तेंच मागीर राजीव गांधीन सांगलें. लोक म्हुण्टा नेरू घोराणें हुशार. हुशार कोसलें मोड्याचें? हुशार एकटोच. (पायलटाक) कोण?

पायलट: (जाचें येदोवेळ जेनाचेरच चित्त आशिल्लें तो गडबडून) आंऽऽ, जेजू.

दुमींग : (बेजार जावन) छॅऽ ! नेरू.

पायलट: जायत जायत. चल सकयल या आमी. म्हाका जेनाक पळोवंक जाय.

दुमींग : चोल. (पायलट-दुमींग वतात. दाराकडेन पावतकीर) डॅडीक-मम्मीक तुमीच सांगाय गो, पोरोत रोंगोवंक लायशी जाल्यार दुमींग... (थापटायतलों अशे रितीन हात करीत)

सचीन : दुमींगपाय मारतलो म्हणटालो म्हणून सांगूं?

दुमींग : छ्यॅंऽऽ! कित्याकितेंय उलयतात. तुमगे तोंडाक म्हूण मातूय सुवादच ना. नाकाबराबर मूठ मात्तोलों आनी तोंडाबराबर धुंवर काडटेलों. (वेल्यान सकल पळयत) चोय अंकल. हांव इतू कोत्तां तें हेकालागून आनी चोय. तें पोरोत रोंगोवच्याक लागलें. जेनऽऽ, आतां तुजेंच पोयलीं सोण फोडटां धरून. (दुमींग आनी पायलट वतात. लता सोडून बाकीचीं भुरगीं वेल्यान सकयल पळयतात.)

अजर : (लताम्हऱ्यांत येवन भीत भीत) दीदी, दुमींगपाय जेनाक मारतलो.

लता : ना मारचो.

शबाना : दीदी, ताणें जेनाक हाताक धरून ओडीत तागेले कुडींत व्हेलें. तो मारतलो ताका.

दीप : तो जॅकाक कसो मारता जाणा? असो पांयांक धरून तकली सकयल करता.

सचीन : दीदी, तुका डॅडी कितेंय केल्यार व्हडलो तापयना. तूं जेनाक रंगोवपाक मदत कर मुगो. हांव तुजें काम करतां.

लता : डॅडीक आवडचेंना. डॅडीचे तकलेंत वेगळेंच कितेंतरी आसता.

सलीम : आमी डॅडीक सांगपच ना तुवें रंगयलां म्हणून. मागीर डॅडीक कशें कळटलें?

लता : सलीम, अशें करप म्हळ्यार डॅडीकडेन फटींगपणां करप. आनी डॅडीक फटींगपणां अजिबात आवडनात.

स्टेफी : जेनाक रंगोवपाचें काम दिलें तेन्ना मम्मी कितली झगडली डॅडीकडेन. पूण डॅडीन मम्मीचें लेगीत आयकलें ना.

अजर : दीदी, बरीं ना जाल्यार भुरगीं सुद्दां मरतात गो?

शबाना : दुमींगपाय म्हणटालो, अशेंच रंगयत रावलें जाल्यार जेन बरें ना जातलें.

सलीम : मरप म्हळ्यार कितें गो?

अजर : मरप म्हळ्यार दोळे धांपून असो पडटा. ताका हालपाक-उठपाक कांयच जमना.

सलीम : मागीर?

अजर : मागीर तो थंयचेथंयच नाच् जाता.

दीप : नाच जायना. ताका व्हरून बांयंत उडयतात खंय.

लता : अजरऽऽ, कसल्यो नसत्यो गजाली...

सलीम : दीदी, म्हाका जेन जाय... (रडटा).

सचीन : दीदी, मम्मीक फोन करून आपोवया गो. हांव करतां फोन.
(सचीन फोनावटेन वता. तितल्यांत हातांत सुटकेस घेवन रागान पळेत दारांत उबो आशिल्लो डॅडी भुरग्यांचे नदरेक पडटात. सगळीं 'डॅडी' म्हणीत धांवतात, पूण डॅडीचो रागरंग पळोवन भीत-भीत फाटीं सरतात.)

पार्थ : दारांतल्यो गुलाबाच्यो दोनय कुंडयो कोणें फोडल्यो?

लता : कुंडयो फोडल्यो? खबर ना डॅडी.

पार्थ : आनी पोरसांत रासभर पानां पडल्यांत तें निवळ करपाचें काम कोणाचें? चार दीस हांव ना म्हणजे तुमची कांयच जबाबदारी ना? फकत हांव आसतां तेन्नाच कामां करपाचीं?

सचीन : हांवें आनी अजरान सकाळींच निवळ केलां पोरसांत.

पार्थ : पॉलीश केल्लें घराचें दार आनी ताचेर खोडवान चित्रां काडपाइतलीं ल्हान तुमी?

लता : सलीमऽऽ!

सलीम : हांवें न्ही.

पार्थ : म्हाका दिशिल्लें, वांटून दिल्लीं कामां तुमी वेवस्थीत करतलीं. घर पोरसूं निवळ दवरतलीं. तें ना तें ना. वेल्यान कुंडयो फोडल्यो. दार चित्रावन दवरलें. आय हेट यू ऑल. यू विल बी पनिशड. लता, वयर ड्रॉईंग रुमांत वचून म्हजी पट्टी हाड. (लता वता. ) स्टॅण्ड इन अ रो. (भुरगीं लायनीन उबीं रावतात) चड अपुर्बायो जाल्यात तुमच्यो. मागतां मागतां तें हाडलें. जाय जाय म्हणटा तें दिलें. याद उरसारकें फोडून काडटलों एकएकल्याक. (लता पट्टी हाडून दिता.) सलीम हात फुडें कर. (सलीम भीत भीत हात फुडें करता.) दुसरोय हात फुडें. (दुसरोय हात फुडें करून दोळे धांपून घेता. पार्थ एकदम पट्टी मारूंक उबारता तशीं सगळींच मानो घुंवडायतात. पार्थ पट्टी हळू सकयल दवरता आनी सलीमाक उबारीत मोठमोठ्यान हांसता.)

भुरगीं : (अजापान) डॅडीऽऽ!

पार्थ : एप्रील फूल बनाया. डॅडीको गुस्सा आया...

स्टेफी : ओऽऽ! आज एक एप्रील. डॅडीऽऽऽ (भुरगीं डॅडीचे भोंवतणीं जमून ताका खोट्या रागान मारतात, धुकळटात, हांसतात.)

लता : डॅडी, तूं कितले दीस भायर रावता? आमकां वाज येता.

शबाना : डॅडी, तुजी खूब याद येताली.

सलीम : डॅडी, तूं ना जाल्यार म्हाका बेगीन न्हीदच येना.

पार्थ : म्हाकाय तुमचेबगर न्हीद येना. आनीक दोन दिसांचें काम आशिल्लें. पूण म्हज्यान कशेंच रावंक जालेंना.

स्टेफी : डॅडी, जेन दुरीग रंगयता आसतना दोनदां घुंवळ येवन पडलें खंय. ताचे हातय सुजल्यात.

पार्थ : आय नो. आतां सुद्दां तें रंगयता. आनीक थोडेंच उरलां ताचें. एक वेंतभर.

लता : दुर्मींगपायन ताका घुंवळ येतकीर आपले कुडींत व्हेलें. पूण तें परत रंगोवंक लागलें.

पार्थ : गुड! हेंच म्हाका जाय आशिल्लें. (पयस पळेत) जेन, तूं आयुश्यांत केन्नाच हरचेलेंना. गुड ! किप इट अप !

दीप : डॅडी, म्हाका जेन जाय. ताका पुरो म्हणून सांग रे आतां.

सचीन : तूं वचतपासून जेन रंगयता. मम्मीन पुरो म्हणून सांगल्यार सुद्दांआयकना.

पार्थ : सगळें दुरीग ताणें एकल्यानच रंगयलां?

सगळीं : हय डॅडी.

पार्थ : तुमी जावं दुमींगपायन ताका आदार करूंना न्हय?

भुरगीं : ना डॅडी.

पार्थ : गुड! म्हजो विश्वास आसा तुमचेर. गुड! हें पळयात कबुतरांनो, खंयचेंय काम एकदां तुमी तुमचे तांकीप्रमाणें आंगार घेतलें म्हणजे तें निश्चयान पुरें करप हें तुमचें कर्तव्य. कितलेय त्रास जावं, कितलींय आडमेळीं येवं, अमूक मेरेन म्हाका पावंक जाय आनी हांव पावतलोंच म्हणून जो आत्मविस्वासान फुडें सरता तो सदांच जिखता. पूण एकदां हो आत्मविस्वास सोंपत जाल्यार तो परत मेळोवप खूब कठीण. जेन खर्शेलां, ताचे हात सुजल्यात, ताचे शक्तीभायर ताणें काम केल्ल्यान ताका घुंवळ आयल्या, ताचें तोंड आंवुळ्ळां, वतान काळें पडलां, पूण ताच्या तोंडार खर आत्मविस्वास आसा. तें परत पडटलें आनी परत उबें रावतलें तें त्या आत्मविस्वासाच्या बळग्यार. आतां जर हांवें ताका पुरो म्हळ्ळें जाल्यार फाल्यां दुसऱ्या खंयच्याय कामावेळार ताच्या आत्मविस्वासापरसय डॅडी काकुळट करतलो आनी पुरो म्हणटलो, हाचीच तें वाट पळयतलें. होच वेळ तुमचेमदीं आत्मविस्वास जागोवपाचो. वी हॅव टू बिल्ड...

भुरगीं : कॉन्फिडन्स !

(मम्मी बेशुद्ध जाल्ल्या जेनाक दोनय हातांचेर आडवें धरून भितर सरता. जेनाच्या भेसाचेर, उगड्या पांयांचेर, तोंडाचेर धव्या रंगाचे दाग दिश्टी पडटात.)

लीली : (भयभीत आवाजांत) पार्थऽऽ, तूंय आसा हांगा आनी हाचेर कोणाचेंच लक्ष ना? (जेनाक सोफाचेर घालता) प्लीज, कॉल द डॉक्टर, फास्ट !

पार्थ : तुमी कडेक सरात. हांव पळयतां ताका.

लीली : डोन्ट टच हर. पयलीं दोतोराक आपय. ताची शुद्द गेल्या. ताचें आंग जोरान भाजता.

पार्थ : भियेवं नाका लीली, कांयच जावंचेंना ताका.

लीली : (उठून फोना म्हऱ्यांत वता) तें थंय कितलोवेळ पडून उरलां आसतलें देव जाणा. (फोनाचेर) हॅलो डॉक्टर... (उलयता.)

पार्थ : लता, बेगीन फ्रिजांतलो बर्फ हाड. फास्ट. स्टेफी, उदक आनी कपडो हाड ताका पुसपाक. सचीन, हो तो पेपर घेवन वारो घालीत राव. (नाडी पळयता.)

दीप : डॅडी, जेन कित्याक उलयना? हालना? ताका घट धर डॅडी.

सलीम : हांव ताका बांयंत उडोवपाक दिवचोना डॅडी (रडटा).

पार्थ : बांयंत? हें आनीक कितें मदींच? प्लीज कीप क्वायट. ताका कांयच जावंक ना. तें आनीक पांच मिनटांनी तुमचेबराबर खेळटलें. ओके? (लता, स्टेफी बर्फ, उदक, कपडो घेवन येतात.) लता ताचे हातपांय पूस. बर्फ आनी कपडो दी. सगळ्यांत पयलीं ताचो बॉडी टेंपरेचर सकयल हाडूंक जाय.

लीली : (फोन दवरून) बाय, बाय, दोळे उघड गो शाण्या. पळय म्हजेकडेन. म्हजेंच चुकलें. हांवें तुका बळयां थांबोवपाक जाय आशिल्लें. आय एम् सॉरी जेन... (रडटा.)

पार्थ : लीली, प्लीज. भुरग्यांहुजीर अशें करूं नाका.

लीली : तुवें बरें केलें ना पार्थ. हट्टी तूं. आपलें तेंच खरें. हें काम येद्या वयावेल्या भुरग्याक न्हय पार्थ.

पार्थ : आय नो, आय नो. पूण तें ताणें स्केटिंग बुटाचे बदलेंत मागून घेतलां.

लीली : स्केटिंग बूट हांव ताका अशेच हाडून दीन आशिल्लें.

पार्थ : तसो हांवूय हाडून दिवंक शकतां. एक कित्याक? दोन दोन जोडयो हाडून दिवंक शकतां.

लीली : मागीर कित्याक हाडून दिलेना? कित्याक? आज मिटिंगेक गेल्लें थंय शेण पडलें म्हज्या तोंडांत. फकत तुका लागून. 'आठ भुरग्यांक जल्माक घाल्ल्यान फुकट कामां जातात न्हय?', 'दुरीग रंगोवपाक कितले पयशे पडटात गो लीली?', आनी डॉक्टर कामतीन हांसत हांसत सगळ्यांहुजीर कितें म्हळें खबर आसा? 'तुज्या घोवाक अॅरेस्ट करूंक जाय चायल्ड लेबर एक्टाखाला.'

पार्थ : (जेनाच्या आंगार हात दवरून) यस्, जोर देंवता. आतां थोड्याच वेळान तें दोळे उगडटलें.

अजर : डॅडी, ताका कितें जालां?

पार्थ : बेटा, ताका कांयच जावंक ना. आमच्या मनाचेर, शरीराचेर चड ताण आयलो म्हणटकीर आमी बेशुद्ध पडटात. आनी स्नायूंक सुशेग मेळ्ळो म्हणटकीर ते परत काम करूंक लागतात. ही शरीराची नैसर्गीक क्रिया. नॅचरल. भियेवपाचें ना.

लीली : अजून डॉक्टर आयले नात. (परत फोनावटेन वता.)

पार्थ : लीली, डॉक्टराची गरज ना. परत फोन करूंनाका.

लता : डॅडी, डॅडी... जेन कितें तरी उलयता.

पार्थ : जेनऽऽ, जेनऽऽ...

जेन : (बडबडटा) डॅडी... डॅडी... हांवें काम... फिनिश्ड...

पार्थ : हय बेटा. तुवें काम पुराय केलां. आय एक प्राउड ऑफ यू.

जेन : दुमींगपाय सोड... सोड म्हाका... डॅडी येवचे पयलीं म्हाका रंगोवंक जाय... सोड म्हाका...

लीली : जेन शाण्या, मम्मीकडेन पळय गो गुण्या. पार्थ, म्हज्या जेनाक कितेंय जायत जाल्यार हांव तुका भगसुचें ना. हांवूय मेळचें ना तुका केन्नाच.

पार्थ : (तापून) शटअप् ! नॉनसेन्स ! मानसशास्त्राचीं लॅक्चरां दिता आनी...

लीली : हांव आवय ताची. मानसशास्त्राची लॅक्चरर न्हय पार्थ. आय एम् हर मदर.

दीप : डॅडी, जेनान दोळे उगडले. जेनान दोळे उगडले.

पार्थ : ज़ेन, बरें दिसता? तूं जिकलें जेन. तुवें तुजें काम पुराय केलें. तुका स दिसांची मुदत दिल्ली. तुवें चारच दिसांत पुराय केलें. दोन दिसांचो वेळ वांचयलो तुवें. आय एम् प्राउड ऑफ यू डियर जेन.

सलीम : डॅडी, दुमींगपाय तुका राक्षस म्हणटालो.

पार्थ : तुमीय म्हाका राक्षस समजलीं? ना बेटा. हांव राक्षस न्हय. हांव तुमचो डॅडी. जेन, तुका त्रास जावचे, तुजेकडल्यान आयतेंच रंगोवन घेवचें म्हणून हांवें तुका येदें व्हडलें काम दिवंक ना. हा़ंव जाणां तूं ल्हान आसा. त्या कामापेक्षांय म्हाका तुज्यांतली जिद्द पळोवपाची आशि़ल्ली. हांव चार दीस पयस उरलों, पूण म्हजे दोळे, म्हजो जीव हांगाच आशिल्लो. दुमींगपायक सांगिल्लें हांवें तुजेर नदर दवर म्हणून. तुमचे डॅडी-मम्मीक एक एक वस्त घरांत हाडटना ताचे फाटल्यान कितले कश्ट घेवचे पडटात हें तुमकां कळचें, पयशांची किंमत कळची आनी एकदां दिल्लें उतर पुराय करपाचे जबाबदारीची जाणीव,आत्मविस्वास तुमच्यांत जागृत जावचो इतलेच खातीर. हांव राक्षस न्हय, म्हज्या फुलांनो, हांव राक्षस न्हय. (पार्थ मेजार दवरिल्ले आपले सुटकेसींतल्यान स्केटिंगचे बूट काडून जेनाक दाखयता. जेनाच्या तोंडार हांसो फांकता.)

पार्थ : जेनऽऽ, घे. तुजे स्केटिंगचे बूट घे. उठ. यो, म्हजे म्हऱ्यांत यो. घे. (जेन उठपाची धडपड करता. ताच्यान उबें रावंक जायना.)

लीली : पार्थ, आतां तरी दी न्ही ताका. ताच्यान जायना चलूंक.

पार्थ : तूं वगी राव लीली. जेन, कमओन... घे... यो... (जेन उठटा.) व्हेरी गुड. यो.

जेन : (सोफाक घट्ट धरीत उबें) जायना डॅडी...

पार्थ : जातलें. यो. यू आर ए स्ट्रॉँग गर्ल. कम ऑन...

(जेन हाका ताका धरीत खर्शेत डॅडी म्हऱ्यांत पावता आनी ताचो तोल वचपाक डॅडी ताका दोनय हातांनी धरीत वयर उबारून घेता.)

पार्थ : हम होंगे कामयाब... हम होंगे कामयाब...

भुरगीं : (पदाची चाल घेवन फुडें म्हणटात) एक दिन... हम होंगे कामयाब एक दिन...

(पद म्हणीत डॅडी भोंवतणीं नाचतां नाचतां पड्डो पडटा.)

# अंक दुसरो

## देखाव पयलो

(घरचे पिकनिकेचो मूड. माचयेर उजवाड येता तेन्ना स्टेफी खोशयेन नाचत, पदां म्हणीत बास्केट घेवन येता. बास्केटींत उदकाची बाटली, खेळपाचें रींग, उडयो मारपाची दोरी आनी हेर सामान दिश्टी पडटा. बास्केटींतलें सामान वयर सकयल करतनाच भितरल्यान शबाना आनी अजर तयारेन येतात.)

शबाना : स्टेफी, वी आर रेडी. तुजें जालें ?

स्टेफी : सगळ्यांत पयलीं हांव उठिल्लें सकाळीं. म्हजें येदोळ जालें. (प्रेक्षकांक) आज आमची पिकनीक. वर्सांतल्यान दोनदां तरी डॅडीची अशी पिकनीक आसता. खंय वतलीं तें खबर ना. आमचो गेंडो आसा. ताचेर बसून आमी वतात. तो जंय धपको दिता थंयच्यान दुसरे वटेन वळटा. पुरो जावन थांबता थंय आमचो पिकनिकेचो स्पॉट.

अजर : गेंडो म्हळ्यार आमचो खटारो. डॅडीची गाडी.

स्टेफी : दिसभराचे पिकनिकेक अर्दो दीस तरी सकयल देंवन तो खटारो धुकलपाकच वता.

अजर : एक किलोमीटर धुकलता तेन्ना दोन किलोमीटर तो आपूण जावन चलता.

स्टेफी : फुडें ड्रायव्हर म्हळ्यार डॅडी. डॅडी म्हऱ्यांत लता, जेन आनी सलीम. फाटल्या सिटार हांव, मम्मी, सचीन, शबाना, अजर आनी दीप. फाटल्यान सामान, ताचेर दुर्मींगपाय.

अजर : पिकनिकेपरस म्हाका जाल्यार डॅडीचीच चड मजा दिसता. एकदां अशींच पिकनिकेक गेल्लेकडेन म्हाका मर्दीच मुतूंक जालें. डॅडीन गाडी व्हरून एका सार्वजनिक संडास-मुतारीकडेन थांबयली. म्हाका हाताक धरून सरळ भितर गेलो. भितर गेल्यार सगळ्योच बायलो. त्यो एकदम डॅडीच्या आंगार आयल्यो. हांव भियेलों आनी थंयच मुतलों. पूण डॅडी भिलोना. वेल्यान त्या बायलांचेर धेंगसो घालो. 'तुमी भायर सारकें वाचिनासतना दादल्यांचे मुतारींत भितर सरतात?' बायलो गोंदळ्ळ्यो. ती संद सादून डॅडी म्हाका घेवन धांवत गाडयेंत येवन बसलो तीच गाडी सोडली.

शबाना : फुडें पावतकीर म्हणटा, 'देव पावलो. गाडी पयल्याच धपक्याक स्टार्ट जाल्ल्यान सुटलों.'

स्टेफी : हें कांयच न्ही. आनीक एकदां आमी प्रदर्शनाक गेल्लीं. थंय वचत जाल्यार एका कुटुंबाक तिनच तिकेटी. मम्मी म्हणपाक लागली, आमी परत या. पूण डॅडीन वेळ केलोना. डॅडीन तांकां सांगलें, 'हांव समाजसेवक. हीं अनाथाश्रमांतलीं भुरगीं. तांकां हांव घेवन आयलां. तिकेटी दिता, काय तांकां परतीं व्हरूं?'

शबाना : तिकेटी दिल्योच. वेल्यान आमकां अनाथ म्हणून फुकट खावपा पिवपाकय दिलें त्या आयोजकांनी.

(लीली येता. तें आठ म्हयन्यांचें गुरवार आसा.)

लीली : स्टेफी, चल डॅडीचें जालें जाल्यार पळय. या म्हणून सांग.

(भुरगीं धांवत माळ्येर वतात. लीली गॅलरींतल्यान सकयल पळयत) दुमींगपाय, उदकाचो थरमास घेतला? तें बॉक्स तेवटेन दवर. शेंदरी घेतल्या?

(दुमींग 'ओय ओय' करून जाप दिता. लीली गॅलरींतल्यान भितर येवन सोफाचेर बसता. फाटोफाट एक वयस्क बायल, गांधारी, कुटुंबनियोजन सेविका दारांत उबी.)

गांधारी : गुड मॉर्निंग मॅडम.

लीली : गुड मॉर्निंग. यो, भितर यो.

गांधारी : (भितर येत) हांव मिसेस गांधारी. कुटुंबनियोजन सेविका.

लीली : वेलकम. बसात.

गांधारी : हांगा ह्या गांवांत कुटुंबनियोजन ऑफीस ना दिसता.

लीली : खबर ना. आजमेरेन तरी कोण अश्यो येवंक नात.

गांधारी : बरोबर. रिपोर्ट पावला म्हजेकडेन. म्हणून थारायलें, हांगा वचून हें काम करप. हांगा म्हजे वळखीचो कोणच ना. आनी असल्या कामाक सुरवात करतलें म्हळ्यार गांवांत एकट्याचो तरी पाठिंबो जायच. तुमी गडबडींतशीं दिसतात.

लीली : नो प्रोब्लॅम. आमी मात्शीं भायर सरतात. पूण तशी घाई ना. सांगात तुमी.

गांधारी : पयलीं हांव थंय एका बऱ्याऽ घरांत गेलें. पूण भितर सरत जाल्यार त्यो, मिसेस ज्योत्स्ना, तांकां चाऽऽर भुरगीं. त्योच म्हणूंक लागल्यो, आपूण तुमचे बरोबर येन, पूण लोकांक कशें सांगूं, कुटुंबनियोजन करात म्हणून?

लीली : तातूंत कितें आसा? बापूय चोर म्हणून ताणें 'चोरी करप वायट' अशें आपल्या भुरग्यांक सांगचें न्हय म्हणून आसा?

गांधारी : सारकें ! तर तांणीच म्हाका तुमचें घर सुचयलें. तुमी मिसेस लीली न्हय?

लीली : हय.

गांधारी : ज्योत्स्नान सांगलें, तुमकां लोकांमदीं वचून उलोवपाची, समजावपाची आवड आसा. म्हळें बरेंच जालें. तुमकां समाजकार्याची आवड आसा दिसता?

लीली : हांव मानसशास्त्राचेर क्लबांनी, संस्थांनी, स्कुलांनी वचून लॅक्चरां दितां.

गांधारी : गुड! तुमीच हें कुटुंबनियोजनाचें कार्य ह्या गांवांत फुडें व्हरपाचें. हांव तुमचे फाटल्यान आसांच. घराघरांनी वचून मिटिंगो घेवन आनी खास करून बायलांक पटोवन दिवपाचें, की चड भुरगीं आसप वायट. प्रकृतीचे नदरेन, खर्चाचे नदरेन आनी देशाचे नदरेन. दुसरें म्हळ्यार, दोन भुरग्यांची अर्थअपुर्बाय करपाक पालकांक बरें पडटा.

लीली : बरोबर आसा तुमचें. कोणेंतरी पटोवन दिवंक जाय.

गांधारी : आंतां तुमचेंच पळयात. तुमी सुंदर आसात. धश्टपुश्ट आसात. लग्न जावन कितलीं वर्सां जालीं तुमकां? जातलीं न्हय तीन-चार?

लीली : सोळा.

गांधारी : सोळा ! गुड ! तरी अजुनय तुमी पंचवीस-तीस वर्सांच्यो कश्यो दिसतात. कारण कितें जाणा? कुटुंबनियोजन. ह्या सोळा वर्सांत तुमी जर पांच-स भुरग्यांक जल्माक घाल्लीं जाल्यार तुमी अशो दिसपाच्यो, अश्यो. (हाताचें बोट हालयत किडकिडीत म्हणून दाखयता.) आनी वेल्यान आतरेपयऱ्यान दुयेंत. तुमी स्वताच ह्या गांवाखातीर एक बरी देख म्हूण आमच्यांनी दाखोवं येता. म्हणटकीर तुमी ह्या कामाक येवशात न्हय म्हजेबरोबर?

लीली : राव आं. घोवाक आपयतां. तांकांय विचारूंक जाय न्हय?

गांधारी : हय तर. कुटुंबनियोजन हें दोगांयनीय करपाचें.

लीली : पार्थऽऽ, पार्थऽऽ मात्सो सकयल येता जालें जाल्यार?

पार्थ : (भितरल्यान) येस, आय ॲम रेडी.

लीली : तुमकां कितलीं भुरगीं?

गांधारी : आमी दोगांच. हांव आनी घोव.

लीली : सॉरी.

गांधारी : तशें कांय ना. चलयांक लग्न करून दिल्ल्यान आमी दोगांच उरल्यांत. हांव हें वॉलंटरी काम करतां. घरा वाज येता म्हणून.

(पार्थ दोळ्यांक गॉगल, तकलेर हॅट घालून माळयेवेल्यान येता.)

लीली : पार्थ, ह्यो मिसेस गांधारी. कुटुंबनियोजन सेविका. तांकां हें कुटुंबनियोजनाचें

कार्य ह्या गांवांत सुरू करूंक जाय.

पार्थ : (हात दीत) ग्लॅड टू मीट यू. तुमी ह्या वयांत हें अशें भव्य कार्य हातांत घेतलां तें पळोवन खूब खोस जाली. नाजाल्यार खूब जाण ह्या वयांत दोळ्यांक पट्टी बांदून घरा बसतात गांधारी.

गांधारी : लीली, तुजो हजबंड रियली ग्रेट आं. आजमेरेन एकाय दादल्यान ह्या कार्याची तुस्त करूंक ना. दादल्यांक फकत भुरगीं जाय जावचेपयलीं.

पार्थ : मिसेस गांधारी, एक वा दोन भुरगीं आसप खरेंच बरें. पूण एखादो प्रयोग करूंक जाय वा कितेंतरी घडोवन एक आदर्श असो निर्माण करूंक जाय जाल्यार ताका हो नेम लागू जायना.

गांधारी : नेम हो सगळ्यांक सारको. बेठींच चड भुरगीं कितें करपाक तीं?

पार्थ : हें पळय,बेब्यांक बेठेच फातरांनी मारप ही हत्त्या जाली. वायट कर्म. पूण प्रयोगशाळेंत नव्या सोदांखातीर, शिक्षणाखातीर जेन्ना हजारांनी बेब्यांक मारतात तेन्ना थंय वेगळे नदरेन पळावचें पडटा. कारण ताका उपाय ना.

गांधारी : हांव बेब्यांचें पळयना. फकत भुरग्यांचें पळयतां. तर खाणीभर भुरगीं जल्माक घाल्ल्यान हाडांचो सापळो जाल्ल्यो बायलो, वाडत वचपी लोकसंख्या, ताचे दुश्परिणाम दादल्यांक समजावन लेगीत कळनात. आयज आमच्या देशाक वाडटी लोकसंख्या हो एक शाप कसो...

(पार्थ शिळोण घालता. तेसरशीं बोवाळ घालीत, पदां म्हणीत आठय भुरगीं येतात.)

पार्थ : गुड्. सदचेपरस आज तुमी दोन सेकंद आनीक बेगीन आयलीं.

गांधारी : (भुरग्यांकडेन पळेत) तुमी हांकां ट्युशन दितात दिसता. सगळीं हांगासल्लीं लागींचींच काय पयसुल्ल्यान येतात इतले सकाळीं?

पार्थ : हीं सगळीं म्हजींच भुरगीं.

गांधारी : आंऽऽ!

पार्थ : दीप, सडसडीत सांग. तुमी सगळीं भावंडां कितलीं?

दीप : काल रातीं न्हिदतना मेजिल्लीं तेन्ना आठ आशिल्लीं डॅडी.

गांधारी : आठ !

पार्थ : (जेनाक म्हऱ्यांत ओडून) हें आठवें. पांच वर्सां पूर्ण.

सलीम : तें आठवें? तें मोटवें. हांव आठवो.

पार्थ : तूं? आं हय. हो आठवो. आनीक आमचो णवो मॉडेल फुडल्या म्हयन्यांत येता. तातूंत मॅक्झिमम चेंजिस, मॉडिफिकेशन्स आसतलीं न्हय लीली?

गांधारी : णव ऽऽऽ ! (घुंवळ आयिल्लेवरी थंयच कदेलार थपकल मारता. लता

तिका उदक हाडून दिता. गटागटा उदक पीत) आमच्या हेडऑफिसा पसून फकत पन्नास किलोमीटराचेर आठ-णव भुरगीं जल्माक घालपी मनशां आसात? देवा म्हज्या ! (कपलार हात मारीत वचूंक परतता.)

पार्थ : (तकलेवयलें हॅट आनी गॉगल काडीत) मिसेस गांधारी, वळखता?

गांधारी : (ताका पळेत) ओऽऽ तूं ऽऽ!

पार्थ : तुमच्या पांचय चलयांचीं लग्नां ज़ालीं?

गांधारी : (दचकता) बायऽऽ बायऽऽ (करीत ताकतिकेन भायर धांव मारता. सगळीं हांसतात.)

लीली : पार्थ, तूं आयिल्ल्यागेल्ल्याक हांव गुरवार आसां म्हणून सांगता. म्हाका लज दिसता.

पार्थ : तातूंत लज दिसपासारकें कितें आसा? उरफाटें, तुका अभिमान दिसूंक फावो. म्हाका जाल्यार चुटमुटे पडटात.

लीली : कसले?

पार्थ : आमकां दादल्यांक एकदांय अशें अभिमानान पोट फुडें काडून चलूंक मेळना म्हणून.

लीली : यू स्टुपीड ! चला आतां या. पयलींच उशीर जाला.

पार्थ : चलात. आपापलें सामान घेयात. गोऽ. (लता, स्टेफी, सचीन, शबाना भायर धांवतात. लीली कुडींत वता. दुमींग सकयल्यान धांवत येता.)

दुमींग : (पिकनिकेक वचपाच्या भेसांत) दोतोर, आतां हिंगा एक बायल येयलेली?

पार्थ : ओय.

दुमींग : कुटुंबनिसोंतानाचें कार्य काय किदें कोत्ता म्हूण सांगोलें?

पार्थ : ओय.

दुमींग : हिंगसून सोकोयल गेयली मुरे आनी थिंगा म्हाका घोट धोल्लो.

पार्थ : नशीबवान मरे तूं. रोजालीनान पळोवंना मरे?

दुमींग : तेसो घोट न्हू रें दोतोर. आनी तेसो घोट धोरलेलो जाल्यार हांव इतू बेगीन सोडचां आहलों? (हांसता) म्हुका येशेंच सोगळें इचाल्लें. हांयेन कितें सांगलें नेणा?

पार्थ : कितें?

दुमींग : चोय, म्हुगे हो एकूच चेडो आनी हें रोजालीन एकूच बायल. आवोऽऽ! तिका इतू खोस जायली, इतू खोस जायली, तिणें म्हुगे हातीर चार पाकिटां थेयलीं. आनी म्हुणटा, हीं वापोर. एकूच पुरो, दुसरें नाका.

पार्थ : तुवें चान्स मारलो.

दुर्मींग : पूण मुगे रोजालीन म्हुजेर साप बेजार.

पार्थ : कित्याक?

दुर्मींग : तें म्हुणटा, 'तुवें फोट किद्या मारली?'

पार्थ : आरे, फट मारली म्हणून तर तुका चार पाकिटां मेळ्ळीं.

दुर्मींग : पूण तें म्हुणटा खोरें तें सांगपा न्हू. आमगे पांच चेडवां आनी एकच चेडो म्हूण सांगपा न्हू? आनको वीस पाकिटां मेवचीं नासलीं? आतां म्हाका किदें पयलींच खोबोर आहलें, सोरकार एका भुरग्याहाटल्यान कोसलीं तरी चार पाकिटां वांट्टा म्हूण?
(पार्थ हांसता. तितल्यांत भितरल्यान लीलीचें 'पार्थऽऽऽ, आवय गेऽऽ' अशें आयकूंक येता.)

पार्थ : लीली, लीली, कितें जालां? कितें जाता? (बेगीबेगीन भितर वता.)

जेन : दुर्मींगपाय, कसलीं पाकिटां दिलीं? कॅडबरीचीं?

दुर्मींग : छॅऽऽ! येदींशीं गो. सोरकार आनी कॅडबरी दितेलो? शाळेंत भुरग्यांक तांदूळ दिताय ते कुकडां लेगीत खायनाय आनी आमकां जाण्टेल्यांक कॅडबरी दितेलो?

पार्थ : (नर्व्हस जावन भायर येता.) दुर्मींग, दुर्मींग... बेगीन वचून टॅक्सी हाड.

दुर्मींग : टॅक्सींत आमी सोगळीं जातेलीं? आमकां आमगे गेंडोच बरो न्हू?

पार्थ : (आवाज चडोवन) टॅक्सी हाड. लीलीच्या पोटांत जाता. बेगीन धांव. (भितर वता.)

दुर्मींग : (भायर वचपाक वता. पूण तितल्यांत तकलेंत येवन दारांतच उबो.) कसलें? पोटांत जाता? म्हणजे णवकोऽऽ! (सकयल धांव मारता.)

पार्थ : (भायर येत) फ्रॅंडस्, आज पिकनीक कॅन्सल.

भुरगीं : (बेजार जावन) डॅडीऽऽऽ.

पार्थ : आतां मम्मीगेर बाबू जातलो.

दीप : बाबू जातलो? बॅस्ट जालें. आमी पांच जाले. (जेनाक) तुमी चार. कुयऽऽ

पार्थ : (जेन आनी सलीमाक) तुमी वयर वचून तें पायपें बरें पसून धरात. (जेन, सलीम माळयेर धांवतात.) दीप, तूं सकयल वचून दीदीक सांग मोटारींतलें सामान काडून वयर हाडात म्हणून. चल. (दीप सकयल धांवता.) अजर तूं...

अजर : जाणा हांव डॅडी. पोळेराची पोटली सोडून पोळेर सुकत घाल. ट्रंक उगडून तातूंतल्यो लंगोट्यो, कपडे भायर काडून दवर, बोम सोडून काड, दीदीक चिंवो शिजोवंक लाय... (अशें बडबडत माळयेर वता. पार्थ कपलार हात

मारीत भितर वता. जेन, सलीम माळयेवेल्यान भायर येतात. तांकां अजर दिसता.)

जेन : अजर, डॅडी खंय?

अजर : भितर आसा.

जेन : (कुडीवटेन पळेत) बाबू खंयच्यान येता कुडींत?

अजर : पयलीं मम्मीक जिवाक अशेंच बरें दिसना. मागीर ती आड पडटा. 'आवय गे, आवय गे' करीत रावता. मागीर बाबू येता.

जेन : तेन्ना दुरगाक रंग काडटना हांवूय बरें ना जाल्लें. आड पडिल्लें. तेन्ना म्हजे म्हऱ्यांत कित्या येवंना बाबू?

अजर : बाबू हाडचे पयलीं डॅडी हाडचो पडटा. मागीर ममी बरी ना जाता. मागीर दोतोर येता. डॅडी बालदी भरून खतखतीत उदक व्हरून दिता. मम्मी मोठमोठ्यान हुयेल्यो मारता. त्या आवाजान मागीर खंयच्यानतरी देव बाबू हाडून दवरता.

सलीम : हें तुका कशें कळ्ळें?

अजर : अशें म्हाका एकदां सचिनान सांगिल्लें.

जेन : चल. मम्मीगेर बाबू येता म्हणून आमी दीदीक सांगुंया.

(जेन, अजर, सलीम सकयल धांवतात. पार्थ भायर येवन पासयो मारता. लेसान घाम पुसत रावता. लीली पोटार हात धरून त्रासीक नदरेन भायर येता.)

पार्थ : लीली, तूं कित्याक भायर आयलें? टॅक्सी येवंना अजून.

लीली : (सोफाचेर बसत) आवयऽऽ गेऽऽ!

पार्थ : [illegible] जातात आसतले तुका न्हय?

लीली : हुँऽऽ [illegible], एकदमच चड जालें.

पार्थ : आतां बरें दिसता?

लीली : हूँऽऽ!

पार्थ : टॅक्सी आयली की रोखडींच पावतलीं आमी हॉस्पिटलांत. रोजालीनाक आपोवं?

लीली : नाका.

पार्थ : कितलें घामेलां तूं. आनीक उदक हाडूं पिवपाक?

लीली : नाका. पोट तट्टट्टा. हे बाजून सामकें चडून आयिल्लेवरी जाता. आवयऽऽ.

पार्थ : लीली, आतां ह्यावेळार तुजी प्रकृती धडधाकट जायसर तूं हॉस्पिटलांतच राव. घरा येतकीर सगळ्याच कामाक वेंग मारता तूं. भुरग्यांचो हुस्को

करुंनाका. हांव सांबाळीन सगळें. हांव रांदून वाडीन.
(लीली ताचेकडेन पळोवन हयन्हयशें हांसता.)

पार्थ : लग्न जायतपासून तुका सुशेग म्हणून नाच. आय प्रॉमीस यू लीली, धिस इज द लास्ट. हें निमाणें. परत पायणो ना. आय एम् सॉरी. म्हजे इत्सेक लागून खूब सोंसचें पडलां तुका.

लीली : पार्थ ! (ताचो हात हातांत घेवन) डोन्ट बी नर्व्हस. हें म्हजें पयलेंच बाळंतपण न्हय. हांव सोसूंक शकतां.

पार्थ : खूब सोंसता तूं. तुज्या तोंडावेल्यान कळटा म्हाका. आनीक हांव कांयच करूंक शकना. जातलें तें भुरगें दोगांयचेंय, पूण ख्यास्त मात तुका एकट्याकच भोगची पडटा. तुका जावपी थोडे तरी त्रास हांव भोगूंक शकिल्लों जाल्यार...! ओऽऽ आय एम् हेल्पलॅस् ! हांव कांयच करूंक शकना !
(लीलीक एकदम कळ मारून येता. पार्थ नर्व्हस जावन ताचेकडेन पळेत रावता. दुर्मींग धांवत येता.)

दुर्मींग : टॅक्सी आयली. चोलाय बेगीन.
(पार्थ लीलीक आदार दीत भायर व्हरता. दुर्मींग भितर वचून भरून दवरिल्ली बॅग घेवन फाटोफाट वता. तेन्नाच काळोख.)

## देखाव दुसरो

(लता आनी शबाना स्कूल युनिफॉर्मांत, स्कूल बॅग फाटीक लांयन सोफाचेर बसून बूट घालतात.)

लता : ए स्टेफी, जावंक ना तुजें अजून? साडेसात जालीं.

शबाना : स्टेफीक सदांच उशीर. स्टेफी, आमी फुडें वतात आं.

स्टेफी : (भितरल्यान) जालें. (भायर येता. बूट घालता.)

लता : (अजापान स्टेफीकडेन पळेत) स्टेफी, तुवें केंस कापले?

शबाना : एऽऽ! केन्ना कापले गो?

स्टेफी : हांवेंच कापले. आत्तां.

लता : डॅडीन, मम्मीन पळयल्यात कापल्यात ते?

शबाना : आनी कशाकशेय कापल्यात.

स्टेफी : जावं कशाकशेय. मुद्दामच कापल्यात हांवें.

लता : म्हाकाय बॉबकट आवडटा. हांव व्हडलेंजावन हांवेंसुद्धां कापलेनात. डॅडी पिकार जातलो स्टेफी.

स्टेफी : जावं. मारल्यारय मारूं. पूण कोणेंतरी सुरवात करुंकच जाय न्ही? नाजाल्यार (तांकां पळेत) अशीं शेंडकांच बांदून भोंवचें पडटलें आनीक फुडलीं धा वर्सां तरी.

शबाना : डॅडीक दिसतलें आतां हीं आपलें आयकनात. आपल्या शब्दाक किंमत दिनात.

स्टेफी : तुमच्या सगळ्यांखातीर कापल्यात हांवें. एकदां हांवें कापले म्हणजे मागीर सगळ्यांकूच कापूंक मेळटले. आमचे क्लासींत सगळ्या चलयांनी बॉबकट केला. आमी मात शेंडकां बांदून. चले सुद्दां चाळयतात. लज दिसता म्हाका.

लता : म्हाकाय चाळयतात. पूण डॅडीन काप म्हळेबगर हांव केन्नाच कापचेंना. चल आतां. तुका लागून आमकां सगळ्यांकच तापोवणी खावची पडटली. (तीं वचपाक लीली भायर येता. स्टेफीक पळेतच उरता.)

लीली : स्टेफी, हें कितें केलां तुवें? काय बरे लांब मोव मोव केंस आशिल्ले तुजे !

स्टेफी : मम्मीऽऽऽ.

लीली : हारशांत तोंड तरी पळयलां तुवें आज? कोणें सांगलें तुका केंस काप म्हणून? डॅडीक विचारिल्लें?

स्टेफी : ना. हांवेंच कापले.

लीली : तुवें कापले? कोणाक विचारिनासतना? इतलें व्हड जालें तूं स्टेफी?

स्टेफी : मम्मी, स्कुलांतल्या सगळ्या चलयांनी कापल्यात. फकत आमीच मात कापूंक जायना? आमचे टीचरीनसुद्धां बॉबकट केला. आमकांय दिसना, कापचे म्हणून? आमी फॅशन करप ना, मोटवे स्कर्ट घालप ना, सेंट मारप ना. कित्याक? तर डॅडीक आवडना, तुका आवडना. आमकां शेंडकां-शेंडकां म्हणून चाळयतात सगळीं. (पार्थ माळयेवेल्यान सोंपणाचेर रावन आयकता.)

लीली : डॅडीन हाचेपयलीं सांगिल्लें तें विसरलें तूं? केंस कापल्यार, नसत्यो फॅशनी केल्यार पंचगणी व्हरून बंद स्कुलांत घालतलों म्हणून? त्या स्कुलांत कांयच नसतें करूंक मेळना. बंदखण कशें चार वणटी भितर रावचें पडटा. जाय तेन्ना घरा येवपाक मेळना.

स्टेफी : मम्मी, तेच शाळेंत व्हरून घाल म्हाका. हांगा चल्या-चलयांकडल्यान

चाळोवन घेवचेपरस खंयतरी पयस वचून रावन हांव. धाड म्हाका पंचगणी. नाजाल्यार मारून वडयात...

(पार्थ सकयल देंवता. भुरगीं मान सकयल घालून वग्गी.)

लीली : पार्थ ऽऽ !

पार्थ : कांयच सांगू नाका. आयकलां हांवें सगळें. फॅशन करूंक जाय तांकां. कसली फॅशन करूंक जाय? मोटवे स्कर्ट घालून उघडे पांय दाखयत फिरपाक जाय? काय पोले-ओंठ रंगोवन मिरोवपाक जाय? ह्या घरांत असलें नसतें खपोवन घेवक म्हाका सोसचें ना.

स्टेफी : लांबलचक स्कर्ट घालपी, जुने पद्दतीचे बूट घालपी आनी स्नो पावडर कांयच न लावपी फकत आमीच उरल्यांत डॅडी.

लीली : स्टेफीऽऽ बिहेव युवरसेल्फ.

लता : डॅडी, काल टीचर विचारताली, तोंडाक पावडर कित्याक लावन येना काय म्हणून.

लीली : लता, आमी ल्हानपणांत केन्नाच पावडर लायलोना. म्हणून आमचें कांयच वायट जालेंना. उलट पावडर न लायिल्लो चेहरो निसर्गीक आनी बरो दिसता. बाकींची घालतात म्हणून तुमकां उंच खोंटांचे बूट घालन दिसतात, पूण तसल्या बुटांनी पांयांचेर ताण येता. जीव बेगीन थकता. चलपाची गती कमी जाता. आंगांतली शक्ती कमी वापरून, कार्यक्षमता, गती कशी वाडोवची हाचेर डॅडी जगभर शिक्षण दिता आनी तुमी उंच खोंटांचे बूट घालून सर्कस करीत चलपांत शक्ती खर्च करतलीं?

पार्थ : स्टेफी, आतांचे आतां भितर वच आनी आशिल्ले तश्शे केंस करून भायर यो. वच.

शबाना : डॅडी, कापिल्ले केंस तें परत कशें लायतलें?

स्टेफी : डॅडी, बॉबकट करपाक हांवें केंस कापूंना.

पार्थ : मागीर कित्याक कापले? कातरीक धार आसा काय म्हूण पळोवपाक?

स्टेफी : म्हाका ते लांब केंस वळोवपाक आनी विणयो घालून बांदपाक पंदरा मिनटां लागतालीं. आतां केंस कापिल्ल्यान फकत पंदरा सेकंद लागतात डॅडी. वेळ वांचोवपाखातीर केंस कापल्यात हांवें. हातूंत कितें वायट केलां हांवें? कितें वायट केलां?

पार्थ : आमच्या घरामुखार गार्डन आसा. सुंदर दिसता. तें गार्डन कापून उडयत जाल्यार म्हाका असोऽ वळसो मारिनासतना सरळ गाडी दारांत हाडूंक मेळटा. म्हजो वेळ वांचतलोच, आनी पेत्रोलाचे दोन थेंबूय वांचतले. म्हूण

हांवें घरामुखावयलें गार्डन काडलां? काडुंया?

स्टेफी : आमचें ह्या घरांत कांयच चलपाचें ना. आमचें कोणच समजून घेवचेलो ना. फकत राग राग आनी राग ! तुमचेंच खरें. अशें जगचेपरस नाकाच जगप.

(हुंदके दीत, पांय आपटीत स्टेफी भितर वता. फाटोफाट लता आनी शबानाय वतात.)

लीली : पार्थ, म्हाका दिसता, भुरगीं आतां व्हड जाल्यांत. तांचे आवडीनिवडीक, तांच्या विचारांक चडय विरोध करप योग्य न्हय. नायजाल्यार बॉबकट केल्ल्यान केंस वळोवपाचो वेळ वांचता हेंय ताचें म्हणणें फट म्हणूं नज.

पार्थ : लग्न जाल्लों त्या वेळार म्हाका बॉबकट आवडटालो. तुवें म्हळें, तुका लांब केंस आवडटात म्हणून तुवें तशे लांब केंस दवरल्यात. तुजे आवडीक लागून हांवें भुरग्यांकय केंस कापूंक दिलेंना आनी आतां तूंच...

लीली : म्हणजे म्हजे आवडीक लागून तूं तांकां केंस कापूं नाका म्हणटालो आनी तुका वायट दिसत म्हणून हांवय तांकां कापपापासून आडायतालें...

(स्टेफी माथ्याक स्काफ बांदून येता. लता आनी शबानाय येतात. थंय दवरिल्लीं स्कूलबॅगां घेवन तिगांय मोन्यांनी चलूंक लागतात.)

पार्थ : (रागान) स्टेफी, हांगा यो. तो स्काफ दी.

स्टेफी : आसूं दी.

पार्थ : बरो दिसना तो. दी म्हजेकडेन. (स्टेफी स्काफ दिता.) लता, शबाना, तुमीय म्हाका विचारलेबगर अशे केंस कापतलीं?

लता, शबाना : ना डॅडी, केन्नाच ना.

पार्थ : तशें जाल्यार सांजेचें सगळ्यांनी मम्मीबराबर सलूनांत वचून बॉबकट करपाचें. (भुरगीं अवाक् जातात.) सांजे - सगळ्यांनी - सलूनांत वचून - बॉबकट करपाचें.

लता, शबाना : खरेंच ! खरेंच बॉबकट करपाचें डॅडी?

पार्थ : म्हाका आवडटा. वेळ वांचयतात त्यो सगळ्यो गजाली म्हाका आवडटात. (सगळींच हांसतात) आनी लीली...

लीली : आं !

पार्थ : तुवेंसुद्धां.

लीली : कितें तें?

पार्थ : बॉबकट.

स्टेफी : डॅडी, मम्मीक केंस कापूंक लावं नाका.

पार्थ : कित्याक?

स्टेफी : मम्मी मम्मीभशेनच बरी दिसता.
(पार्थ, भुरगीं हांसतात. भुरगीं शाळेंत वचूंक वतात.)

भुरगीं : बाय मम्मी, बाय डॅडी. (वतात.)

पार्थ, लीली : (दारामेरेन वचून) बायऽऽ!

लीली : तूं आसा न्ही घरांत. हांव सकयल वचून पांच मिनटांत येतां.
(भितरले एके कुडींतल्यान अजर, दीप, जेन, सलीम हांचो बोवाळ. जेन धांवत भायर येता.)

जेन : डॅडी, मम्मी, बायन मगे दीपाच्या तोंडाचेर पिचकारी मारली. (परत भितर धांवता.)

लीली : हीं भुरगीं म्हणजे ! पार्थ, तूं हांगा बसतलो जाल्यार बायक हांव हांगाच हाडून घालतां. ते कुडींत भुरगीं ताचें नाक ओडटात. मेळत तशीं धरतात.
(लीली भितर वचून बायक घेवन येता. अजर, दीप, जेन, सलीम पोळेर, शेंदरी, खेळणीं घेवन येतात. बायक सकयल घालतात आनी भुरगीं ताचे भोंवतणीं बसतात.)

लीली : पार्थ, लक्ष दी भुरग्यांचेर. कित्याकितेंय करतात तीं एकएकवेळार. अजर, तूं व्हडलो. लक्ष दवर ताचेर. हांव येतां रोखडेंच (भायर वता.)

दीप : डॅडी, म्हज्या तोंडाचेर बाय मुतूं ना रे आं. ताच्या पोटांतलें उदक पडलां म्हजेर. मुतिल्लें जाल्यार घाण येवपाची नाशिल्ली?

पार्थ : मुताची घाण येवंक ना मरे? तशें जाल्यार उदकच तें.

अजर : डॅडी, बायन पळय कितें केलां. हालवो...

पार्थ : कितें? (उठून पळेत) ओ ! हाका आतां धुवचें पडलें. शीऽ शीऽ...

जेन : डॅडी, तूं धुवूं नाका. ताका आतां मम्मी न्हाणयतली. आज न्हाणयता ती बायल येवंक ना म्हणून मम्मी तिका पळोवपाक गेल्या.

पार्थ : न्हाणोवपाक बायल कित्याक जाय? आज हांव न्हाणयतां.

सलीम : तूं न्हाणोवं नाका. उदक वता ताच्या नाकांत.

पार्थ : छॅट्. जल्माक येतनाच सुद्धां भुरग्याक काडून उदकांत उडयल्यार तें पेंवता.

अजर : हय? खरेंच?

पार्थ : एकदां हांवें कुत्र्याचो पेटो उदकांत उडयल्लो तेन्ना तो पेंवत आयलोना?

दीप : डॅडी, बायक आतां टबांत दवरल्यार तें पेंवतलें?

पार्थ : जाल्ले येदेऽशे पेटे पेंवतात, आनी तीन म्हयन्यांचें भुरगें पेंवना? पेवंकूच जाय. पळयतलीं तुमी?






भुरगीं : हय डॅडी.

पार्थ : अजर, बाथरुमांत वचून टबांत उदक सोड. (अजर वता.) तुमी जाणात? ह्या दीपाक चार म्हयन्यांचो आसतना हांवें असो फाटकुळेर घेतलो आनी हळू हळू म्हजे हात सोडले. ताणें घट्ट म्हज्या खांदांक धरलें आनी एक मिनीट तस्सो रावलो. मागीर हात सुटून पडलो.

सलीम : डॅडी, माकडांचीं इल्लीं इल्लीं पोरां तांच्या पोटाक धरून रावतात न्ही रे? उडी मारतना सुद्धां पोटाचीं सुटून कशीं पडनात तीं?

पार्थ : जीव वांचोवपाची जाणीव, धडपड जल्मतांच येता सगळ्या जिवांत.

अजर : (भितरल्यान) डॅडी, बायक हाड. उदक भरलें टबांत.

(बायक घेवन डॅडी, भुरगीं मान्यांत वतात. मागीर भितरल्यान भुरग्यांचे, पार्थाचे आवाज आयकूंक येतात - 'डॅडी, बाय बुडटलें', 'डॅडी, पुरो रे', 'डॅडी, वयर काड ताका', 'रावात रे, आनी एकचदां'... दुमींग येता.)

दुमींग : दोतोरऽऽ ओ दोतोरऽऽ. बेबी जायतपासून दोतोरान आपीस बी सोगळें सोडलां. खोबोर नासलेल्यांक दिसपाचें, पोयलेंच जालां म्हुणोन. दोतोरऽऽ, ओ दोतोर..

पार्थ : (भितरल्यान) दुमींग, हांगा बाथरुमांत यो. यो, हांगा यो.

दुमींग : बाथरुमांतु? आनी हांवूय बी?

(दुमींग भितर वता. दुमींगाचो आवाज - 'ना ना दोतोर... येशें कितें कोत्ता? सोड, सोड बेबीक. दी म्हुजेलागीं. ना ना, हांव येशें कोरच्याक दिवचोंना. तेका मारूं नाका दोतोर... मारूं नाका... सोड.'

लीली भायल्यान येता. ताच्या कानार आवाज पडनाफुडें तें भितर धांवता. 'पार्थ ...पार्थ...' करून लीलीचो भयानक आवाज. मागीर तें बायक तुवाल्यासकट घट छातयेकडेन घेवन माचयेवेल्यान बेगबेगीन दुसरे कुडींत वता. पार्थ, भुरगीं, दुमींग भिजिल्ले अवस्थेंत लीलीफाटोफाट माचयेर येतात.)

पार्थ : लीली लीली, म्हजें आयकून घे तरी.

लीली : (बायक कुडींत दवरून भायर येवन रागान) पार्थ, वॉट इज धिस? आर यू मॅड? कितें, कितें जाता तुका अशें मदींच?

अजर : मम्मी, आमचे बायक पेंवपाकच येना. टबांत सोडल्यार सरळ पोंदा वता.

दीप : डॅडी म्हणपाक लागलो, ताच्या पोटांत उदक वता म्हणून तें बुडटा. मागीर डॅडीन एकाच हातान ताचे पांय वयर आनी तकली सकयल केली. बाय भिना! रडना!

लीली : पार्थ, यू वॉन्ट टू किल् हर? मारपाचेंच आसा तुका जाल्यार तशें सांग. जावंचे पयलींच मारूंक सोदतालो न्ही तूं?

दुर्मींग : दोतोर, आपल्याच भुरग्याक येशें कोण बुडोवन म्हूण मात्ताय? अभ्यास कोरिना म्हूण हायें जॅकाक मारल्यार तुवें म्हुगे कानपोटाचेर मारलोलें, आनी आयज येद्याऽशा तीन म्होयन्याच्या भुरग्याक...!

लीली : हांव जाणां पार्थ, तुका चलो जाय आशिल्लो, चली जालें. पूण चली जाता तें दादल्याक लागून. मेल आनी फीमेल जीन्स फकत तुमच्यांत आसतात पार्थ.

दुर्मींग : दोतोर, एकदां तुवें येशेंच जेनाक दुरीग पेंटींग कोरच्याक लायलेलें. मोरतां मोरतां वांचलां पोर. आतां सोजमोलें म्हुका, जेन चलीमुनीस म्हूण तेका दिलेलें तें काम.

लीली : खरेंच नाका तुका तें दोळ्यांमुखार? खरेंच नाका? जाल्यार खंयच्याय अनाथाश्रमांत व्हरून दवर. पूण अशें बुडोवन मारूं नाका राक्षसाभशेन.

दुर्मींग : मुनीस शिकलोना जाल्यारय राकेस जाता आनी चोड शिकल्यारूय राकेस जाता. दोतोर, एकदां तुयें जेनाक मारचो यत्न केलो, आयज बेबीक. येसो किद्या राकेस जाता बाबा, येसो किद्याक?
(पार्थ सहन न जावन दुर्मींगाच्या कानपटार मारता.)

लीली : (मोठ्ठ्यान रागान) पार्थऽऽ!

दुर्मींग : मारूं बाय, मारूं. म्हुको दुखलेंना. भुरगेपोणापासून ल्हानाचो व्होड जालां ह्या घोरांत. म्हुगे काती व्हाणो लेगीत तुमगे पांयांत घायल्यो जाल्यार उपकाराच्या रिणांतसून मेकळो जावंचो ना हांव. दोतोर, हांव ह्या घोरांतलोच केसो जालां. पूण म्हुको उगडास उरलो ना, की घोरांतलेंच आयदोन जोरी आहलें तोरी रिकाम्या आयदोनान केन्नाआवाज काडूं नेजो. हांयें ओडाण्यान उलोवंक फावो नासलें. म्हुको भोगोस. (वता.)

पार्थ : (भुरग्यांक) तुमी भितर वचात. (भुरगीं भितर वतात.) हांवें दोनय तळहातांचेर धरून ताका उदकांत वेलेवयर धरलें. ताणें हातपांय हालयले म्हणून पोंदच्यान हात सकयल घेतले. तें उफेतलें म्हणून. पूण तें बुडपाक लागलें. अशें दोन-तीनदां करतकीच हांवें ताका वयर काडलें. भुरग्यांच्या मनांतलो भंय काडपाक हांवें बेठेंच ताच्या पोटांत उदक गेलां म्हळें आनी ताका पांय वयर करून धरलें. फकत धा सेकंद. माकडांचीं पोरां जशीं जल्मलेबराबर स्वताची राखण करपाक जागरूक आसतात, तशींच मनशाचींय आसतलीं,अशी म्हजी कल्पना चुकीची थरली. म्हाका ताका

मारपाचें नाशिल्लें. आनीक तीन चलयो जाल्यार लेगीत म्हज्या पयल्याच भुरग्यावरी हांव ताका खेळयन, वाडयन आनी आत्मविस्वासान ह्या जगांत जगपाक शिकयन. पाळण्यांत बंदिस्त करून दवरिल्ल्या भुरग्यामदीं लेगीत जगपाची धडपड जागृत जावंक जाय, इतलीच म्हजी इत्सा, भावना. बस्! आय एम् सॉरी लीली. चिंतूंक नाशिल्लें हांवें, म्हजी एखादी जडणघडणाची कृती पळयतल्या दुसऱ्याखातीर खुनी वृत्ती थारूं येता म्हणून. सॉरी... (पार्थ माळयेचीं सोपणां चडत वता. जेन आनी सलीम हळूच लीली म्हऱ्यांत येतात.)

जेन : मम्मी, तुवें डॅडीक बेठोच तापयलो. डॅडीन बायक कांयच करूंक ना. खऱ्यांनीच मम्मी.

सलीम : खऱ्यांनीच डॅडीन कांय करूंक ना. (तकलेचेर हात दवरून) म्हज्यान मम्मी, म्हज्यान तर.

लीली : सलीमऽऽ नो ! (सलीमाचो तकलेवेलो हात सकयल काडटा.)

जेन : मम्मी, तूंच आमकां सांगता, खंयचीय गजाल आपल्या दोळ्यांनी पळयलेशिवाय, सारकी समजून घेतलेशिवाय पयलींच कित्याकितेंय उलोवचें न्हय. दुसऱ्याचेर आरोप करचे न्हय. हें फकत भुरग्यांखातीरच मम्मी, जाणट्यांखातीर न्हय.

सलीम : दुमींगपायन थेवचेयेवन बेठोच बोवाळ केलो.

जेन : आनी तुवेंय सारकें समजुचे पयलींच डॅडीचेर राग काडलो.

सलीम : मम्मी, से सॉरी.

लीली : (दोळे पुशीत) सॉरी.

सलीम : आमकां न्हय. डॅडीक.

लीली : (माळये वटेन वचून वयर पळेत) पार्थऽऽ पार्थऽऽ, आय एम् सॉरी. एक्सक्यूज मी पार्थ...

(लीली वयर वचपाक एक एक सोपण चडटा. जेन आनी सलीम एकामेकांक पळोवन मुमुरख्यांनीच हांसतात. काळोख.)

## देखाव तिसरो

(रातचो अकरा साडेअकरांचो वेळ. अजर, दीप, सलीम, जेन दार उघडून भितर सरतात आनी एकामेकांक 'गुड नायट' म्हणीत आपआपले कुडीवटेन वतात. मागीर लता, स्टेफी, सचीन, शबाना बोवाळ घालीत येतात. लता खांदार आशिल्ल्या भुरग्याक भितर व्हरून घालता आनी भायर येता. चौगांय पुरो जाल्ल्यान मेळत तशीं सोफाचेर, खुर्च्यांचेर पडटात.)

स्टेफी : सचीन, तुका खरेंच आवडलो पिक्चर?

सचीन : ल्हान भुरगीं बरें करतालीं, पूण मागीर व्हडलीं जातकीर म्हाका आवडूंना तीं.

शबाना : स्टेफी, पिक्चर पळयतना डॅडी आनी मम्मी रडटालीं, पळयल्लें तुवें?

लता : डॅडी केद्या मोठ्यान 'सूंक-सूंक' करतालो, सगळो ऑडियन्स फाटल्यान पळेतालो.

स्टेफी : शीऽऽ! म्हाका लज दिसपाक लागली. पूण डॅडीक तांचें कांयच पडूंना. मागीर केश्तूली कॉमेडी पळोवन केद्या मोठ्यान हांसतालो डॅडी.

सचीन : डॅडी हांसता तें पळेवन दुमींगपाय हांसता. आनी डॅडी वगी रावलो की आपूण वगी रावता.

लता : दुमींगपायक बेठोच व्हरप सिनेमाक. ताका कांयच कळना सिनेमांतलें.

सचीन : आनी प्रत्येक पिक्चराक डॅडी ताका म्हजेच म्हऱ्यांत बसयता. एकसारको बडबडत रावता, 'हिंगा एक कांतार जाय', 'सोचीन, हिंगा एक कांतार जाय.'

शबाना : तशें जाल्यार तुवें थंयच थेटरांत रावन म्हणपाचें, 'उंदीरमामा आयलो आनी खाटीपोंदा बसलो...'

सगळीं : 'त्या माजोरेच्या पिलान तेका एका घासांत खायलो.'
(दुमींग येवन दारांत उबो रावता. भुरगीं ताका पळोवन)
'दुमींगमामा आयलो आनी दारांत उबो रावलो...'

दुमींग : आरे बुराट्यांनो, आतां येदे राती म्हूण पदेतायी? हो मांडो गावपाचो ओगोत? कितो रात जायली जाणाय? साडेइकरा जायलीं. डॅडीन सांगिलां तुमकां न्हिदाय म्हूण. हॉलांतली लायट आसूंदी म्हूण.

लता : दुमींगपाय, तुका पिक्चर कसो लागलो?

दुमींग : बॅस्ट ! बॅस्ट आहलो दिसता न्हू? डॅडी रोडटालो, हांसतालो देखून म्हुणटां. पूण त्या सिनेमांतलीं कांतारां म्हाका मातय गोस्ताक वचोना. आमगे

तियात्रामुखार येसो शिनीम घाल गुवांत.

स्टेफी : म्हंणून तूं मदींच उठून गेलो? वाज आयलो म्हणून?

दुमींग : छॅ ! उठोन किद्या गेलों जाणा? तो शिनीमांत भुरगो पार्ट कोरिनासलो, वोक्ल जावन, जाडोच, तेगे काम म्हाका भोवच मानोवलें. तेका मेवतोलों, हात दितेलों आनी शाबासकी दिवन पोत्तो येतालों म्हूण थेटराफाटल्यान वोसोत जाल्यारी जिवो मूस लेगीत ना. हांसताय किंतें गो? कोणेंय बोरो पार्ट केलो म्हुण्टगीर तियात्र सोंपले उपरांत इस्टेजीचेर वचोन तेका मेळ्ळेबगर हांव केदनाच येना.

शबाना : दुमींगपाय, तूं सामको पिसो (हांसतात).

दुमींग : हांव पिसो? तुमी शाणीं? जायत, तुमी शिकल्यांत, हांव शिकोना. पूण एक मोतींत धोराय, म्हुका खोबोर आहा चोय तें तुमकां खोबोर ना.

लता : तुका पृथ्वी कोणा भोंवतणीं घुंवता तें खबर आसा?

दुमींग : पृथ्वी घुंवता? तुमगे तकली घुंवता.

सचीन : तुका इंग्लीश, फ्रँच, जर्मन भासो कळटात?

दुमींग : किदें कोरच्याक ती भायल्या लोकां भास? चाटच्याक?

शबाना : तूं धपक्याक गुणाकाराचें उतर दिता? सांग, शंभर गुणिले शंबर? (दुमींग गोंदळटा. भुरगीं हांसतात.)

स्टेफी : पाय, तुका हांव सामको सादो प्रस्न विचारतां. ताची जाप तुवें दिली जाल्यार तूं खरेंच हुशार.

दुमींग : तुमी तुमगे बुकांतलें इचारल्यार म्हुज्यान सांगों जाता?

स्टेफी : बुकांतलो न्हय. सामको सादो प्रस्न. विचारूं?

दुमींग : (विचार करून) नाका नाका. आतां हांव तुमकां एक प्रस्न इचात्तां. दिताय मुगो जाप?

भुरगीं : हय. विचार.

दुमींग : चोवया तुमी कितू हुशार तीं. बाजारासाकून मुगो एक काळींग हाडलें. तेजे दोन कुडके केले. एक कुडको खायलो. जाल्यार कितू कुडके उरले?

भुरगीं : (एकदम) एक.

दुमींग : एक कुडको उरलो?

स्टेफी : एक कुडको उरलो ना? एक काळींग हाडलें. दोन कुडके केले. एक खालो जाल्यार एक कुडको उरलो ना?

दुमींग : एक कुडको उरलो? आगो बाये, फोकोत ओर्द कुडको उरलो. गोणितां कोरताय गोणितां.

भुरगीं : पायऽऽ, मोठो हुशार तूं.

दुमींग : हुशार मुगो! चोला वोसाय न्हिदाय आतां. बारा जायलीं दिसता. देवा म्हुज्या! बारा जायलीं काय कितें? रोजालीन जागें आहल्यार पुरो. (वता.)

शबाना : आमकां मामा करून गेलो. स्टेफी, काळींग कशें लागलें?

स्टेफी : एक कुडको खालो, अर्दो उरलो.

(सगळीं हांसत 'गुड नायट' म्हणीत वतात. लीली आनी पार्थ भितर येतात. लीली वचून सोफाचेर बसता.)

पार्थ : आतां आनी बसता कित्याक? चल न्हिदुंया. खूब रात जाली.

लीली : तूं न्हीद. हांव बसतां मातशें.

पार्थ : लीली, आतां विसर तो पिक्चर. म्हजें पळय. हांसलों, रडलों. पूण थेटराभायर आयलों की खंयचेकडेन कांयच ना.

लीली : पार्थ, हांवें जायते पिक्चर पळयल्यात आनी विसरूनय गेलां. पूण आयचें पिक्चर ही एक वास्तवता. आनी हे वास्तवतेचोच म्हाका भंय दिसता.

पार्थ : भंय दिसता? हांव आसतना?

लीली : एक गरीब विधवा. चार माणकुलीं भुरगीं. कोणाचोच आधार ना. अशे अवस्थेंत ती तांकां कशे रितीन ल्हानाची व्हड करता. सगळी लज सोडून, अपमान गिळून ती हागेलीं-तागेलीं आयदनां घांसता, राशींच्यो राशी कपडे उमळटा, रातचो रेल्वेचो प्लॅटफॉर्म झाडटा... कोणाखातीर हें सगळें? त्या भुरग्यांखातीर. तांकां कपडे जाय,अन्न जाय, पुस्तकां जाय, तीं स्वावलंबी जावंक जाय म्हणूनच न्हय?

पार्थ : (विशय बदलून) भुरगीं न्हिदलीं इतले बेगीन? कोणाचो आवाज ना सो?

लीली : न्हिदिल्ल्या भुरग्यांचेर तीं आंगावेलें कापड सोडोवन पांगरूण घालता. आनी तांकां पळेत बसता. कितें पळयताली ती तांच्यांत? तांचो फुडार काय तिचो फुडार?

पार्थ : लीली, यू सिंपली गॅट डिस्टर्बड् युवरसेल्फ.

लील : भुरगीं व्हड जालीं, हुशार जालीं, स्वताच्या पांयांर उबीं रावलीं, गरीबीन हुल्पल्ल्या घरांत चैतन्याचो रंग आयलो.

पार्थ : (विशय बदलीत) तुका 'मम्मी' म्हणून उलो मारलो दिसता वयर माळयेर भुरग्यांनी.

लीली : 'आई' म्हणून तिका उलोय मारप ना? घरांत आयिल्ल्या तांच्या मित्रांक-मैत्रिणींक 'ही म्हजी आवय' म्हणून सांगपाक लेगीत त्या भुरग्यांक लज दिसची पार्थ?

पार्थ : (सोफाचेर बसून जांभय दिता.) आऽऽ !

लीली : वास्तवतेकडेन पळोवन दोळे बंद करूंनाका पार्थ. भुरगीं इतलीं नीच, बेमान जावंक शकतात की तांणी भर थंडेच्या कुडकुड्यांत मध्यानराती तिका हाताक धरून घराभायर धुकलून दिवची? कितें चूक आशिल्ली ते आवयची? आनीक कितें करूंक जाय आशिल्लें तिणें भुरग्यांखातीर? पार्थ, आमचींय भुरगीं फाल्यां आमकां हेंच करचींनात कित्यावेल्यान?

पार्थ : (दचकून) नोऽ नोऽऽ,नेव्हर.

लीली : खंयच्या आदाराचेर तूं ना म्हणटा? खंयच्या विश्वासान तूं हें ठामपणान सांगूंक शकता, आज 'डॅडी-मम्मी' करून आंगाक आंग घांसपी हीं भुरगीं फाल्यां ह्याच आंगाचेर खोंट मारचींनात?

पार्थ : कारण हीं भुरगीं ते म्हातारेचीं न्हय. तीं पार्थ-लीलीचीं भुरगीं.

लीली : पार्थ-लीलींत आनी ते म्हातारे आवयंत कितें वेगळेपण आसा?

पार्थ : खूब वेगळेपण आसा. लीली, दोन पिळग्यांमदलें अंतर ज्या आवयबापायंक भरून काडूंक येना, त्या आवयबापायंक घराभायर वचचें पडटा. हें अंतर हुपून जो गेलो तो भुरग्यांवरी भुरगो जालो आनी जाणट्यावरी जाणटो. हांवें म्हज्या भुरग्यांमदीं निर्माण केला आत्मविस्वास, तांकां शिकयलां जगपाखातीर धडपडपाक, तांच्यांत निर्माण केल्या हांवें जिद्द आनी विचार करपाची तांक. म्हज्या खंयच्याय भुरग्याक व्हरून उबें कर खर वाळवंटांत. एकवेळ रेंवट जमीन तानेन फुट्टली, पूण म्हजें भुरगें न्हय. तें गांठटलें पलतड उदकामेरेन पावसर. हांवें निखटीं भुरगीं जल्माक घालूंक नात. हांवें म्हजे हे प्रयोगशाळेंत घडयल्या सगळे गूण संपन्न फुडाराची पिळगी. तिच्या हातांतल्यान केन्ना वायट घडूंकच शकना. केन्नाच ! म्हातारेन भुरग्यांक फकत पोसल्यांत, अन्न दिलां, शिकयल्यांत, वाडयल्यांत, जें खंयचींय जनावरां लेगीत आपल्या पिलां-पेट्यांखातीर करतात. लीली, त्याच सिनेमांत घोव मरतकीर ती गरीब बायल कपलाचें पुसून, गळ्यांतलें मंगळसूत्र तोडून जेन्ना भुरग्यांमुखार येता, तेन्ना एक भुरगो सांगता, 'आई, तूं कपलाक लाय गे. तूं गळ्यांत घाल गे. तूं पयलींभशेन जा गे आमची आई कशी!' भुरग्यांक जी आई जाय आशिल्ली ती ते म्हातारेन दिली ? ना. भुरग्यांपरस तिका समाज व्हड दिसलो. नसत्यो चालीरिती केन्नाकेन्नाय भुरगेमनाचेर व्हड अन्याय करतात आनी ताचीच ख्यास्त आमी जाणटेपणांत भोगतात.

लीली : पार्थऽ!

पार्थ : जें ती सहज दिवंक शकताली, तें तिणें दिलेंना भुरग्यांक. लीली, हांव तुजेपयलीं गेलों जाल्यार तुवें तशें करूंक जायना.

लीली : पार्थऽऽ!

पार्थ : तुवें उमेदीन जगूंक जाय. जशें तुका आवडटा तशें. तुका लायन दिसलें कपलाक जाल्यार लाय. तुका घालीन दिसलें गळोभर जाल्यार घाल.भुरग्यांक आवडटलें. म्हाकाय आवडटलें.

लीली : कसलें नसतें उलयता तूं? चल न्हिदुंयाआतां.

पार्थ : चल. (दोगांय कुडींत वचपाक स्टेफी नायटड्रॅसांत येता.)

स्टेफी : डॅडी...

पार्थ : स्टेफी, तूं अजून न्हिदूंकच ना?

स्टेफी : डॅडी, कोणच न्हिदूंना. लता, सचीन, शबाना जागींच आसात.

पार्थ : कित्याक?

स्टेफी : डॅडी, आमी आतांच तें पत्र वाचलें. डॅडी, पालयट अंकलाक तूं हांगा हाड. आमकां पायलट अंकल जाय. ताका कोण ना डॅडी आमचेबगर.

लीली : पायलट अंकल अमेरिकेक आसा न्ही ताचे पुताम्हन्यांत. ताका हांगा कित्याक हाडपाचो?

पार्थ : लीली, पायलटअंकलान पत्र बरयलां. दनपरां हांवें तें लताक वाचूंक दिल्लें. तुका सांगूंक विसरलों. स्टेफी, खंय आसा तें पत्र? (स्टेफी पत्र लीलीकडेन दिता.)

लीली : (मोन्यानी पत्र वाचता आनी पार्थाकडेन पळोवन) अंकलाक इतल्या वर्सांनी अमेरिकेक आपोवन व्हेला आनी आपल्याच घरांत पुतांनी 'कूक' म्हणून दवरला! पेड सर्वन्ट ! (पत्र वाचता) 'लता, स्टेफी, सचीन, शबाना,अजर, दीप, जेन आनी गानुट्ट्या सलीमाची याद येता. तांकां वेंगांत घेन दिसता. तांकां निमणी सांगिल्ली काणीआनिकय फुडें सांगपाची आसा. पूण आतां हे बंदखणींतल्यान सुटका जायतशी दिसना. बराबर एक ल्हानसो चेक धाडटां. म्हज्या गुणेस्त, हुशार भुरग्यांक कॅडबरी घेवन दिवची आनी अंकलाची गोड पापी.

(पत्र वाचतां वाचतां लीलीचो गळो भरून येता. स्टेफीकय दोळ्यांत दुकां आनी हुंदक्यांनी रडूंक येता.)

स्टेफी : ममी, अंकलाक हाडुंया गे. ताका कोणच ना डॅडी आमचेशिवाय.

पार्थ : हाडुंया. खरेंच,अंकलाक परत हाडुंया. ह्या म्हयन्यांतच हांव अमेरिकेचे युनिव्हर्सिटींत व्याख्यान दिवपाक वतलों न्हय, तेन्ना अंकलाक घेवनच

येतां. ओके?

स्टेफी : थँक्यू डॅडी ! यू आर सो स्वीट डॅडी ! गुड नायट मम्मी, गुड नायट डॅडी ! (वता.)

पार्थ : (माळयेवटेन पळयत) गुड नायट एव्हरीबडी !

भुरगीं : (भितरल्यान) गुड नायट !

पार्थ : लीली, पळयलीं म्हजीं भुरगीं? तीं म्हातान्यांक घरांतल्यान भायर काडचींनात, तीं घरांत हाडटलीं.

लीली : यू आर रियली ग्रेट. अ ग्रेट फादर.

पार्थ : तूं सुद्धां.

लीली : चल न्हिदुंया.

पार्थ : चल.

(लीली बेडरुमांत वता. पार्थ दाराकडेनच रावता. छाती चोळटा. मागीर फोनाम्हऱ्यांत वचून फोन घुंवडायता.)

पार्थ : हॅलोऽऽ, डॉक्टर?... हॅलो डॉक्टर, पार्थ स्पीकिंग... सॉरी, इतले रातचो तुमकां हांव डिस्टर्ब करतां. ओ-नो-नो डॉक्टर. आतांच आमी पिक्चर पळोवन येता थंय आसात. डॉक्टर, सांजवेळच्यान म्हाका परत तशेंच जावंक लागलां. आतां मात्शें चडच जाणवता. घेतल्यात, गुळयो म्हज्या बोल्सांतच आसतात... नो, नो... आय एम नॉट अफ्रेड ऑफ डेथ. हांव मर्णाक भियेना. मर्ण म्हाका भियेता. तुमी सांगिल्लें ऑपरेशन केल्यार धा वर्सां जगतलों, पूण ऑपरेशन करिनासतना रावन लेगीत हांवें बारा वर्सां काडलीं आं... (हांसता) थँक्यू, थँक्यू व्हेरी मच... कोणाक? लीलीक? हांव खंयच्याय खिणाक कोसळूं येतां हें फाटलीं बारा वर्सां सांगून सांगून ताचें मन तयार केलां हांवें. ना, ना... तशी कसलीच इत्सा उरूंक ना. पूण डॉक्टर, आनीक थोडें भुरग्यांखातीर जगचेंशें दिसता... सांगूं येना तुमचे मॅडिकल सायन्सीक चॅलेंज दिवन आनीक धा वर्सां सुद्धां जगन हांव (हांसता).

डॉक्टर, आज कित्याक म्हूण नकळो, तुमच्या एका प्रस्नाची जाप तुमकां दिवचीशी दिसता. तुमी सदांच विचारताले न्हय, 'तूं इतलो शिकिल्लो सवरिल्लो जावन लेगीत तुका इतलीं भुरगीं कित्याक जल्मा घालूं जाय आशिल्लीं?' डॉक्टर, खरें म्हळ्यार म्हाका बारा भुरगीं जल्माक घालून तांकां अशे रितीन समाजामुखार दवरपाचीं आशिल्लीं की एकदोन भुरग्यांक हाताळटना 'वेळच मेळना', 'जनरेशन गॅप', 'आमकां आयकनात' असलीं

नसतीं कारणां दिवपी पालकांक म्हाका दाखोवन दिवंक जाय आशिल्लें की तुमी चुकतात, भुरगीं न्हय - यू गिव्ह दॅम ओन्ली डिग्रीज एण्ड एज्युकेशन एण्ड फेल टू डेव्हलप इन दॅम लव्ह एण्ड अफेक्शन टूवर्डस् अवर नेशन एण्ड फॅमिली. कित्याक वतातँ आमचीं भुरगीं आवयबापायक सोडून, देश सोडून अमेरिकेक, इंग्लंडाक, जर्मनीक? कित्याक रावन दिसना तांकां ह्या देशांत आपल्या कुटुंबांत? भुरग्यांभितर आपल्या घराविशीं, सरभोंवतणच्या वाठाराविशीं, देशाविशीं अशें आपलेपण, अशें प्रेम, असो अभिमान वाडीक लागूंक जाय की तांकां केन्ना हें सगळें सोडून पयस वचचें अशें दिसचेंच न्हय. हेखातीर आमी कसलेच घेनात स्रम, देखून मागीर आमच्या वाट्याक येतात वृद्धाश्रम.

डॉक्टर, हांवें भुरग्यांक घडयल्यात आनी म्हजो प्रयोग जैतिवंत जाला. थँक्यू... थँक्यू डॉक्टर... ओके... येस्, गुड नायट... हॅलो, हॅलो डॉक्टर, एक मिनीट... समजा हांव मेलोंच... मरना म्हणून म्हणटां... समजा म्हाका मर्ण आयलेंच, जाल्यार म्हजे दोळे काडून व्हरपाक उशीर करूंनाकात. म्हाका म्हजीं भुरगीं देशाक, समाजाक कितें आधार करतलीं आनी लीलीक म्हातारपणांत घराभायर काडिनासतना कितले मायेन वागयतलीं तें पळोवंक जाय (हांसता). गुड नायट् डॉक्टर... बाय...!

(पार्थ आरामखुर्चेंत बसून धोलत उरता. भितरल्यान धाकटें भुरगें रडटा ताचो आवाज व्हड व्हड जायत वता. काळोख. उजवाड जाता तेन्ना नाटकाचे सुरवेक आशिल्लें त्याच भेसांत लता पेन-पॅड घेवन बशिल्लें दिश्टी पडटा.)

लता : सिनेमा पळोवन आमी उसरां न्हिदिल्ल्यान दुसऱ्या दिसा आमकां एकएकट्याक उसरांच जाग आयली. उठून सकयल आयल्यार घरभर लोक. डॅडीचे मित्र, कस्टमर, गांवचे-घरचे. डॅडी मात सुस्त न्हिदिल्लो. फुलांच्यो राशी आंगार घेवन. डॅडीक बऱ्याच वर्सांपासून काळजाचें दुखणें आशिल्लें. पूण आमकां कांयच खबर नाशिल्लें. आमचेबराबर खेळटना तो मदींच थांबतालो, खर्शेतालो. आमकां पळोवन म्हणटालो, 'आतां हांव म्हातारो जालां म्हणून खर्शेतां.' डॅडी गेलो त्या दिसा उपरांत मम्मी केन्नाच रडली ना. तिका बरें दिसचें म्हणून आमी डॅडीन शिकयल्लें तश्शीं वागूंक लागलीं. वांटून दिल्लीं कामां करूंक लागलीं. पूण मम्मीचें उकतें कपल, उकतो गळो आनी सुकून गेल्लें तोंड पळोवन सगळी उमेदच सोंपताली. तिका 'मम्मी' म्हणून उलो मारपाक भंय दिसूंक लागलो.

धाकटो सलीम सुद्धां तिचे म्हन्यांत वचूंक भियेवपाक लागलो. आमच्या घरांतलें सगळें चैतन्यच सोंपिल्लें आनी अचानक एक दीस 'डॅडी' आयलो. चैतन्याचो परमळ घेवन आयलो.

(डॅडीचे शिळोणेचो आवाज घुमता. सगळीं भुरगीं चारय वटेन धांवत 'डॅडी-डॅडी' उलो करीत माचयेर येवन आपलेच भोंवतणी खंयतरी वयर पळेत घुंवत रावतात. लीली माळयेवेल्यान एक एक सोंपण देंवत येता. ताणें कपलाक लायलां, मंगळसूत्र घालां आनी हातांत फायल आसा. भुरग्यांची नदर ताचेर पडटा. लीली भुरग्यांकडेन पळेत रावता आनी मागीर एक प्रसन्न हास्य दिता.)

भुरगीं : मम्मीऽऽ!

सलीम : (वेंग मारून) म्हजी मम्मी !

लीली : ''लीली, खंयचेंय दुख्ख चड कुरवाळत बसचें न्हय. वेळ फुकट वता. आमच्या देशांत दुख्खाक चड म्हंत्व दितात. व्हडल्या व्हडल्या फुडाऱ्यांच्या मरणाचें दुख्ख आमी दर वर्सा सुटी दिवन मनयतात आनी देशाचें कितलेंशेंच उत्पन्न बुडयतात.'' डॅडीचीं हीं उतरां. देखून हांवें थारायलां, तुमी हांगासल्लें सगळें सांबाळशात जाल्यार डॅडीचें ऑफीस आयच्यान हांव फुडें सांबाळीन. फाल्यां डॅडीच्या जाग्यार हांव अमेरिकेक वचून जीं भाशणां डॅडी करतलो आशिल्लो, तीं भाशणां (फायल दाखयत) हांव थंय करीन. हांवें अशेंच केल्लें आनी अशेंच वागिल्लें तुमच्या डॅडीक आवडटलें आशिल्लें. पूण हें सगळें तुमी 'हय' म्हणून मान्यता दिल्यारच.

भुरगीं : हय मम्मी !

('हय मम्मी, हय मम्मी' करीत भुरगीं तिचे भोंवतणीं गरगर फिरतात. लव्हा भितर वचून धाकटे बेबीक हाडून लीलीकडेन दिता. लीली बेबीक घट धरीत तिच्यो एकारएक पापी घेता. दुमींग फाटल्यान दारांत रावन हें सगळें पळोवन खोशी जाता. पड्डो पडटा.)



□□□



**दत्ताराम दामोदर कामत बांबोळकार**

जल्म : ९ मे १९५७, बांदोडें गांवांत. धेंपे कॉलेज ऑफ आर्टस् ॲन्ड सायन्स महाविद्यालय, पणजी, हांगसल्ल्यान विज्ञान शाखेची पदवी प्राप्त. १९७९ वर्सा सावन बँक ऑफ महाराष्ट्र हे बँकेंत काम करतात.

१९६८ सावन शाळेंतल्या वर्सुकी मॅगजीनच्या निमतान लेखनाक सुरवात. १९७७ सावन कथा बरोवन दैनिक राष्ट्रमत, कुळागर म्हयनाळें आनी सुनापरान्त दिसाळ्यांत उजवाडा आयल्यात. कांय कथांक कथासर्तींनी इनामांय लाबल्यांत.

१९८१ वर्सासावन नाट्यलेखनाक सुरवात. सतत पांच वर्सां गोवा कला अकादेमीचे शालेय कोंकणी एकांकी सर्तींत उत्कृश्ट लेखनाचें इनाम. आजवेर पुराय स्वरुपाचीं अशीं णव नाटकां माचयेर आयल्यांत आनी तातुंतल्या पांच नाटकांक गोवा कला अकादेमीचे कोंकणी नाट्यसर्तींत उत्कृश्ट लेखनाचें पयलें इमान फावो जालां. तेभायर चार मराठी नाटकां कोंकणी नाट्यरुपांतर करून माचयेर हाडल्यांत. एकांकी आनी नाटकां पणजी आकाशवाणी वयल्यान नमोनाट्याच्या रुपान प्रसारीत जाल्यांत.

१९८९ वर्सा गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पालवान एकांकी संग्रह **वनमहोत्सव** हो पुस्तक रुपान अपुरबाय प्रकाशन, वळवय, हांणी उजवाडायलो.

१९९८ वर्सा **सत्य माड्डितां माड्डितां...** हें दोन अंकी नाटक अस्मिताय प्रतिश्ठान, मडगांव, तर्फे उजवाडाक हाडलां.

१९९३-९४ वर्साचो सर्गेस्त प्रभाकर शेणवी कुडचडकार यादस्तीक नाट्यपुरस्कार दिवन गौरव.